# ...ीमद् भगव...

( कोंकणी अनुवादु )

## बी. वी. बाळिगा



# श्रीमद् भगवद्गीता

( कोंकणी अनुवादु )

## बी. वी. बाळिगा




मोल : ४ रूपया

*(Konkani)*

**SRIMAD BHAGAVAD GEETHA**

*Konkani version by*

B. V. BALIGA

*First Edition*

1984 MAY



*Publishers:*

Kerala Konkani Academy
Cochin-682 002.

*Printed at:*

Deepti Press, New Road,
Cochin-682 002.
Phone : 26260

Price Rs. 8/-

# अर्पण

**पितृप्रेमाचि गोडसाणि पळयनातिले**
माका मातृप्रेमाचे अमृतधारेन
पालन, पोषण, संरक्षण
कोणे केलें कि —

कोणालि अमृतवाणि ही कृति
रचूंक माका प्रेरणा जालि कि –

कोणालें ऋण पावोच्याक
हांव शक्य न्हंय कि —

त्या पूज्य मातृदेवतेक
ही कृति अर्पण करतां

२३-८-१९५९ रचयितु

# मेगेलि दोनि उतरां

आमगेलि मातृ भास केवल उलपि मात्र न्हंय, बरपीय न्हय आनी तांतु उच्च भाषें वरि गद्य, पद्य, स्तोत्र, ग्रंथ इत्यादि सर्व प्रकाराचें सुंदर साहित्यय निर्माण करयेत म्हळो विषयु मेगेले समझूतिक आयीलो. 'सारस्वत' नांवाच्या कोंकणी साप्ताहिक पत्राच्या उपसंपादकु जावनु हांवे काम करताना जावन आसा (१९४१-४६), कोंकणीन परड्यो, हुम्णां, ग्याद्यो, पदां, भुता काणियो इत्यादि नाना रूपाचें साहित्य बरपि रूपारि दिलेलें वेळारि वाचकांनि तें पसंद केलां. 'गीतासंचय' नांवारि पयलें आनि दुसरें अशें दोनि कुसुमय हांवे प्रकट केल्यांति; तांका कोंकणी वाचकांलो योग्य प्रोत्साहूय मेळ्ळा.

थोडे वरसां आवय भासेचि सेवा केलेल्याचो शाश्वत कुरूहु जावनु कांई तरि एक व्हड कृति त्या भाषेन निर्माण करका; ताजेन करताना तिजे महत्व कोंकणी उलोच्या लोकाक समझूक संदर्भ मेळका—ही व्होडि इच्छा मनांतु आशिली. खंचि कृति निर्माण करका म्हणु लेक घालताना माका जल्मु दिलेलें आवयन अप्रेरित माका वाट दाकयलि.

बंटवाळ बाळ्यांले आमगेलें कुटुंबांतु कीर्तिशेष पुंडलीक बाळे व्होड कविश्रेष्ठ मात्र न्हंयि तत्वज्ञानीय जावन आशिले.

ह्यानी रचन केलेलि अनेक कोंकणी कवन, स्तोत्र इत्यादिक आजिकय अप्रकटितच उरल्यांति. बापसूले तरपेन हे माका पितामह. तांगेलि रचनो कुटुंबाचा बायलांले तोंडारि थंथय आतंय पद्यरूपारि आयकूक मेळताति. कोंकणी भाषेन कवन रचन करूंक माका प्रेरणा दिलेली व्होडि शक्ति हीचि म्हळ्यारीय चड जायशि ना.

श्रीमद् भगवद्गीते वयरि तर्कबद्ध आनि अनुभव सिद्ध व्याख्यान बरोवचाक न्हंयवे उलोच्याक पुंडलीक बाळो आनी तांगेलो अनुजु अच्युत बाळो अत्यंत प्रसिद्ध आशिले. पुंडलीक बाळ्यान गीतेचो प्रथमलो अध्यायु कोंकणीन पद्यरूपारि केलेले मेगेले आवयक कंठपाठु येतालो. तीणे इतर भजने जवळ तो म्हणताना हांव श्रद्धेन आयकतालों मुकावेले गीताध्याय पुंडलीक बाळ्यान कोंकणीन बरयलां कि ना हांव नेण. तांगेले सुंदर आनि अत्यंत सरळ शैलि अनुकरण करनु गीतेचे संपूर्ण कोंकणी रूपांतर केल्यारि तें एक व्होड भाषा सेवा जातलि म्हळेलि दृष्टि दवरनु त्या दिशान काळेले प्रयत्नाचें फलान आजि ही कृति उजवाडाक आयल्या.

कोंकणी भाषेंतु ह्या रीतीचो गीतानुवादु दुसरो ना अशें मेगेले समझूतिक आशीलें. जाल्यारि, हांवे हाजे सोळा अध्याय संपूर्ण करचे वेळारि, सुमार वीस वरसां पैलें, कविवर्य बंगले नारायण कामतीन 'गीतामृत साकी' बरयीले योडे मित्रांनि मेगेलें समझूतिक हाळ्ळें. जाल्यारि, ताजो प्रभावु मेगेलि

कृतिचेर आसूंक नज म्हळेल्या इच्छेन अनुवादाचें काम पूर्ति जालें नंतर मात्र हांवे ताजे अध्ययन केलें.

संस्कृत भाषेंतु मेगेलें पांडित्य भो स्वल्प. देकूनु कानडी भाषेचि एक दोनि गीता भाषांतरांचो सहायु घेवनु कोंकणी अनुवादु करका पडलो. 'संपूर्ण श्रीमद् भगवद्गीते' (वैद्यगुरू एम. आर. भट.), 'अनासक्ति योग' (महात्मा गांधी) आनी 'श्री कन्नड पद्य गीता' ( मंजेश्वर अनंत राव ) – हीं तीनि कृतींचो सहायु हांवे संपूर्ण घेतला.

संस्कृत भाषेन एकेक शब्दाक अनेक अर्थ आसति मात्र न्हंयि थोडे संदर्भारि एकेक अक्षरांकयि अनेक अर्थ दिसूनु येताति. कोंकणींतु एकच अर्थारि अनेक शब्द आसचें अपरूप मात्र न्हंय, युक्त जावनासूचो एक शब्दूय सोदून काडचो थोडे संदर्भारि भो प्रयासु जाता. अशीं जावनु कष्ट म्हणु दिशिले कडेन मूल संस्कृत शब्दाच्चि दिल्याति.

देवभाषा जावन आसूचे संस्कृतान खंचि कि ती श्रेष्ठगीता भगवंतान अर्जुनाक सांगलि, ताजि थोडी माहिति सुलभ जावन आसूचे मातृभाषेन लोकांक कळो; भगवंताले त्या अमृतवाणीचो प्रचारू समाजांतु घर घर जावो; आनी ताजे निमित अज्ञानाचो काळोकु दूर वचूनु ज्ञानाचो दिव्य प्रकाशु उदेवो म्हळ्या इच्छेन व्हो अनुवादु हांवे केल्लो.

हांव खंचेय एक भासेचो पंडितु न्हंय; साहित्य विशारदूय न्हंय; भासेचो एकु अल्पसेवकु मात्र. देकूनु हांगा अनेक

व्याकरण आनि छंदो दोष जाणतल्यांक दिसून येतीत. ज्ञानवृद्धां कडच्यान आनि वयोवृद्धां कडच्यान अभिप्राय घेवनु साध्य आशिले तितूले ते दूर करचें प्रयत्न केल्यांति. आनीकेय उरीले कांय तरि आसल्यारि हंसक्षीर न्याया प्रमाणे तें सर्व मेगेले कडेच्यान जालेले आसल्यारि तें स्वीकार करनु मातृभाषेचि साहित्य सेवा मुकारसूचे तशें माका बरो आशीर्वादु दीवका म्हणु व्हडिलां लागी हात जोडसूनु विनम्र जावनु मागतां.

भगवान श्रीकृष्णु सर्व जगाक सुख, शांति दिव्वो.

— बी. वी. बाळो



# प्रकशकांलि उतरां

श्री बंटवाळ वासुदेव बाळिगान रचिल्लें कोंकणी भगवद्गीता उजवाडाक हाडूंक आमकां भारी संतोष आसा. 'पंचकादाय' म्हैनाळे चलवनु भासेच्या साहित्य क्षेत्रांतु वैयक्तिक जावनु शाश्वत एक मुद्रा अंकन केलेल्या श्री बाळिगा वाचकांक सुपरिचित साहिति जावन आसा. अनेक पत्रिकेंतु पसरून आसच्या तांगेल्या विविध लेखनां कवितो आनी काणियो समाहृत केल्यार एक उच्च श्रेणीच्या साहित्याचें अनावरण जातलें.

१९८१ ईसवींतु श्री बाळिगाक शाल पांगूरनु अकादमीच्या फेलोषिप दितानाच धरनु तांगेल्या कांय बरपां उजवाडाक हाडूंक आमका आशा लागली. कारणांतरान तांतु अडचणी आयल्यो. आतां अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिषदेच्या पन्द्रावे बसकेच्या वेळार श्री बाळिगाल्या वांटो घेवनु तांगेलि ही भगवद्गीता आमी भायर हाडतात.

शेणै गोंयबाब, बंगले नारायण कामत, मंगेश रामकृष्णा तेलंग, शेषगिरि केशव प्रभु, प्रभानन्द स्वामी बाकीबाब बोरकार, इन्द्रकांत वासुदेव शेणै, एन. लक्ष्मीनारायण भट, आर अनंत भट—अशें अनेक साहितींनि भगवद्गीतेच्या अणकार पद्यान व गद्यान करून कोंकणीचि सेवा केल्यां. तांगेल्या मद्दें श्री बो वी बाळिगालें नांवय आतां मेळ्ळां.

अकादमीच्या तिसरें हें प्रकाशन वाचकांक पसंद जातलें ही आमगेलि आशा. हाजे छापन कार्य निर्वहण केलेले दीप्ति प्रेसाक धन्यवाद.

केरळ कोंकणी अकादमी

# एक्कावो अध्यायु – अर्जुनविषादयोगु

१ धृतराष्ट्रु म्हणालो :-

धर्म क्षेत्रारी कुरुक्षेत्रारि
युद्ध करका म्हळेल्या इच्छेरि
मेळेल्या मेगेल्यांनि आनी पांडवांनि
केल्लें इत्तें सांग संजया तान्नि

२ संजयु म्हणालो :-

सर्व सैन्य जमवूनु युद्धाक
राबीले पांडव ते धर्मयुद्धाक
चोवनु तें दृश्य दुर्योधनु
सांगता द्रोणाक विवरसूनु

३ द्रुपदपुत्रु दृष्टद्युम्नान
तुमगेले बुध्वंत त्या शिष्यान
चोय्या गुरूदेवा राबयलां सैन्य
पांडुपुत्रांले दळ असामान्य

४ वीर भीमसेन अर्जुन
धनुर्धारि योधांक समान
राबल्याति, योध सात्यकि, विराटु
महारथिकु द्रुपदु श्रेष्ठु

५ चेकितानु दृटकेतु
काशिरायु पुरजीतु
कुंतिभोजु महावीरू
रायु शैब्यु दुरंधरू

६ शूरनायकु युधामन्यु
उत्तमौजु आनी अभिमन्यु
पांच ज़न द्रौपदीले पूत
राबल्याति थंय महारथ

७ चोय्या गुरूनो ह्या दिशान तुमी
राबयीले सैन्य युद्धाक आमी
सूचनेक मात्र सांगता हांव
योध श्रेष्ठांले तांगेले नांव

८ तुमी युद्ध शिकयिले गुरू
आज्जो भीष्मु आनी कर्णु वीरू
कृपाचार्यु अश्वत्थामु
भूरिश्रवु योध ललामु

९ आस्सति आनीकयि बहुतेक शूर
मजे खातिर जीव् दिवचाक तय्यार
युद्ध विद्येंतु महानिपुण
निर निराळीं शस्त्र प्रवीण

१० भीष्मान राकचें आमगेलें दळ
अपर्याप्त आस्स तें दळ
पर्याप्त चोय्या पांडव सैन्य
भीमाले रक्षणेंत आस्स तें सैन्य

११ आनी तूमी सर्वांनी त्वरित
राबूनु तुमतुमगेले स्थानारि भरित
सैन्य व्यूह करका सुरक्ष
दीवनु चारीय दिकडे भीष्माक लक्ष्य

१२ दुर्योधनाक धैर्य दिवचाक
युद्ध स्फूर्ति उत्साहु भरचाक
शंख नादु केल्लो भीष्मान
कौरवांले म्हालगडे वीर सिंहान

१३ वाजले वीरांनि असंख्य शंख
भेरि, डक्के, मादाळीं गोमुख
वाद्य घोषु सगळ्यान भरलो
ताज्जो प्रतिघोषु मळबाक मारलो

१४ धव्या घोड्यांचे रथारि बैसूनु
देवु श्रीकृष्णु आनी अर्जुनु
वाजले दोगांनियि तांगतांगेले शंख
जाल्लें युद्ध उदयोन्मुख

१५ पांचजन्यु हृषिकेशान
देवदत्तु धनंजयान
महापौंड्र वृकोदरान
वाजले शंख आवेशान

१६ युधिष्ठिरान अनंत विजयु
वाजूनु दूर केल्लो संशयु
नकुल सहदेवांनि वाजले शंख
नांव सुघोष मणिपुष्पक

१७ धनुर्धारि काशीरायान
महारथि त्या शिखंडीन
रायु विराटु दृष्टद्युम्नान
अपराजित सात्यकीन

१८ द्रौपदीले पूत आनी द्रुपदान
सुभद्रेलो पूतु अभिमन्यून
वीरश्रेष्ठांनि तांगतांगेले शंख
वाजूनु केल्ले घोष अनेक

१९ जाल्लें एक नेल आकाश
वयरि सकल भरनु धोष
कुरूसैन्यांतु जाल्लें कंप
आयकूनु पांडवांले ते शख

२० युद्ध करूंक जाल्ले जागृत
कुरू रायाले शबरि पूत
चोवनु कपिध्वज अर्जुनान
दिल्लें लक्ष्य धनुषा दिशान

२१ अर्जुनु म्हणालोः-

आयक राया सांगता अर्जुनु
आपण्यालो सारथि कृष्णाक चोवनु
'उभय सैन्यां मद्धें रथु
राबय कृष्णा, म्हणता पार्थु'

२२ चोयतां हांव उभय सैन्यांक
युद्धाकांक्षि वीर योधांक
युद्ध करचें कोणा लागि
म्हणु समझतां हांव बेगि

२३ दुष्ट बुद्धि दुर्योधनालें
हित साधन करूंक आय्यीले
वीर ते कोण कोण म्हणु
पळयतां हांव सशयु सोणु

२४ संजयु म्हणालो :-

पार्थालो आदेशु आयकूनु कृष्णान
घुंवडायलो रथु सांगिले दिशान
आयक राया राबलो धावनु
उभय सैन्यां मद्धें येवनु

२५ 'हांगा जमिल्या कौरव वीरांक
चोयि अर्जुना ह्या सर्व शूरांक'
भीष्मु, द्रोणु, रायां मुंकारि
सांगता अर्जुनाक तो मुरारि

२६ आज्जे, पिज्जे, म्हांत, मांव
पूत, नात्त, भाच्चे, भाव
गुरू, शिष्य आनी मित्र
उभय सैन्यांतु दिसताति सर्वत्र

२७ जमिले हे सर्व सोयरे स्नेहित
बधु, बळग आत्मीय आप्त
म्हळें समझूनु करगता मन
सांगता अर्जुनु विषादान

२८ अर्जुनु म्हणालोः-

कृष्णा चोयलों युद्ध वीरांक
युद्धाचे आतुरारि राबिल्या धीरांक
आचार्यांक आनी आत्मीयांक
मेगेल्या बंधु बांधवांक

२९ चोवनु पळ्ळे हात पाय
वंट सुकले लागलें शींय
थर थर कांपतातित अवयव
हर्द्यांतु काकुळता तो जीव

३० धनुष्य गांडीव निसरता
हात सोणु सकल झरता
रोम कूप सर्व जळता
मान मेगेलें भ्रमेन तळमळता

३१ वायट शकुनं चोयतां केशवा
सर्व विपरीत दिसता हे देवा
युद्धांत बंधूंक मारनु हांव
इत्तें जोड़ूं श्रेय आनी नांव

३२ माक्का नाक्का युद्धांतु जय
जय मेळयीलें श्रेय
राज्य नाक्का सुख नाक्का
भोगु नाक्का भाग्य नाक्का

३३ कोणा खातीर कि राज्यसुख
भोग भाग्य आनी बदीक
ते सर्व राबल्याति युद्धाक म्हणु
जीवु तांचि आशा सोणु

३४ सान, होड, गुरू, पुरोहित
आज्जे, मावळे, पूत, नात्त
मांव, मेवणे, मित्र, आश्रित
मारोति माक्का मरतां हासत

३५ कृष्णा, तान्नि मारल्यारियि माक्का
हांव मारशिनारे तांकां
तीनि लोक दिल्यारियि माक्का
कितल्याकयि हांव मारना हांकां

३६ मेळत इत्तें सुख आमकां
भांवडांक कौरवांक मारनु हांकां
उलट जोडका जायत पाप
हांका मारिले घोर शाप

३७ बंधु कौरवांक मारचें समवे ?
मारनु तांकां जोडचें तें सुखवे ?
बंधु हत्य महापातक
करील्यांक चुकतवे दुःख ?

३८ मदोन्मत्त ह्या कौरवांक
लोभ सायि आयल्या दोळ्यांक
देकूनु दिस्सनाति हे दोष
मित्र द्रोहु आनी कुलनाश

३९ कृष्णा, आमकां दिसता दोषु
करनु जावचो कुलनाशु
पाप कृत्याक आयकना मन
युद्धांतु करूंक बंधूलें दमन

४० कुलक्षयान कुलधर्म पडताति
न्याय, नीति, नियम बुडताति
अन्याय, अधर्म, अकृत्य वाडताति
दुष्ट, दुःख, दुगुड चडताति

४१ कुलांतु अधर्मु भरल्यारि तेन्ना
कुलस्त्रीयांलें शील तें उरना
सोळ्यारि स्त्रीयांनि तांगेलें शील
वर्ण मिश्रण जात्ता कुल

४२ वर्णमिश्रणान उभयांक नरक
मेळना पुनरपि जल्मांतूय सुख
पित्रांक मेळना पिंड प्रदान
इतरांक मेळचें तिलतर्पण

४३ कुलनाशक वर्णसंकर
कुलाचे अभिवृद्धीक चोय तें कुठार
ताजेन लुप्त जात्ताति पूर्व
जाति धर्मु कुल धर्मु सर्व

४४ ना तो कुलधर्मु ज्या मनुष्याक
प्राप्ति त्या जीवाक परांतु नरक
आयकताति आमी कृष्णा हें सत्य
समझूनु कशिं करचें अकृत्य

४५ अय्यो, कसलो हो अतिक्रूरू
केल्ला आमी पापाचो निर्धारू
राज्य प्राप्तीक स्वजनालें हत्य
करचें समवे हें घोर कृत्य

४६ शस्त्रधारि कौरव मारोति
निश्शस्त्राक माक्का चिरोति
प्रतीकारू करना सत्य
हास्सूनु स्वीकारू करीन अंत्य

४७ संजयु म्हणालो:-

युद्धक्षेत्रांतु इतलें उल्लोनु
शस्त्रं सर्व काणु दवरनु
शोक व्याकुल तो अर्जुनु
बसलो रथ अंतरंगांतु वच्चूनु



# दुसरो अध्यायु – सांख्ययोगु

१ संजयु म्हणालो:

दु:ख भरनु येवनु अस्त्र उडोनु
दोन्नीयि दोळ्यांतु उदक भरूनु
खिन्न जालेल्या पार्थाक धैर्य
दित्ता भगवतु उत्रांनि स्थैर्य

२ श्री भगवान म्हणालो:-

हृदयांतु दौर्बल्य खंय थावनु भरलें
आर्य वर यश आनी खंय उरलें
पार्था हें क्लैब्य मोक्षाक बाधक
सांगीलें न्हंय तुक्का वीरयोद्धाक

३ षंडु जावनाक्का हे कुंतिपुत्रा
दंडु घे हात्तांतु वर कीर्तिपात्रा
आस्स करि शत्रु सैन्यांतुं कंपन
दूर करनु मनाचें व्यसन

४ अर्जुनु म्हणालो:-

भीष्मु आज्जाक कशि मारूं बाणु
मधुसूदना हांव दाक्षिण्य सोणु
बाजून राबला तो आचार्युं द्रोणु
अरिसूदना तो गुरू आमगेलो प्राणु

५ मारनु ह्या म्हालगडे महानुभावांक
मेळत इत्तें आमकां यश आनी सुख
ह्या श्रेष्ठांक मारिलो तो हत्यादोषु
राब्बत सात सात जन्मांतूय शेषु

६ जिकवूचें आमकां बरें की हारचें
जिकवल्यारीयि ना काहीं उरचें
मारनु कोणांक इच्छा ना उरचाक
तेच्चि कौरव राबल्याति युद्धाक

७ दैन्यान लोप जाल्या वीरवृत्ति
देकूनु सूचेना हांतून निवृत्ति
सांग मधुसूदना तूं उपायु
शिष्याक माक्का करका (तूंवें) सहायु

८ मेळो राज्यवैभवु म्हंयवे स्वर्गुं
सिद्दी जावो अष्टैश्वर्य भोगु
धगधगेनु इन्द्रियं जावचो हो शोकु
दूर कशिं जायत देवा काळोकु

९ संजयु म्हणालो:-
सांगूनु हीं उतरां त्रैलोक्यवीरू
नीद जिकीलो विजयु तो शूरू
'करना युद्ध हांव' म्हणु बसलो थंडु
धैर्य विसरूनु दिसलो तो षंडु

१० उभय सैन्यां मद्दें राबला रथु
मान बागसूनु बसला तो पार्थु
आयक धृतराष्ट्रा सारथि हासना
हासूनु पांर्थाक हीं उतरां सांगता

११ श्री भगवान म्हणालो:-

कोणा खात्तिर करता तूं शोकु ?
शोकु तुगेलो हो अविवेकु
विवेकि केदनाहिं करना तों दुःख
आशिल्यांक न्हंयवें मेल्लेल्यांक

१२ आशिलोंचि हांव केदनाहिं
तूंवयि आसूचोचि केदनाहिं चोयि
हे राय केदनाहिं आसूचेचि रे
कालि, आजि, फायि आस्सूचे रे

१३ बाल्य यौवन आनि तें वार्धिक्य
देहधारि आत्मांतु तें ऐक्य
देह सोडल्यारीयि मेळता आनियेक देह
विवेकु पावना ह्या विषयांतु मोह

१४ शींय उष्ण आनि सुख दुःख
पंचेन्द्रियांक सृष्टि संपर्क
सोयरां सारखे आसूचे हे आनित्य
जाणजा अर्जुना तूं हें सत्य

१५ सुख आनी दुःख सम म्हणु लेक
तेन्ना भोति लाग्गना मनाक
तशें लेकचो धीरू लोकैक वीरू
तोचि अमरत्वाक खरो हक्कुदारू

१६ खंचें फट्टिकी तें आसचें अशक्य
खंचें सत्यकी तें उरचें शक्य
हें तत्व कोणकी जाणजात्ताति
तेचि धैर्यान मुकारि वत्ताति

१७ विश्वांतु व्यापूनु आसूचें सर्व
नाश नातिलें उरचें तें सर्व
अव्यय ह्या वस्ताक नाश करूंक
समर्थ नांति कोणही मारूंक

१८ नाश नात्तीलो सूचेनात्तीलो
नित्य आसूचो शरीर घेत्तीलो
हागेलि हीं शरीरं नाशाचि
देकूनु तूं धरि आशा युद्धाचि

१९ आत्माक हाक्का हांव जीवशी मारतां
मारल्यारि हांवे तो आत्मु मरता
अशें लेकतलो अज्ञानी व्यर्थु
ना चोयि आत्माक नाशु न्हंयवें मृत्यु

२० आत्मु उब्जना आनी तो मरना
आसूनु नात्तिले म्हळ्ळे तो जायना
जन्मु नात्तिलो शाश्वतु नित्यु
देह पळ्यारीयि ना ताक्का मृत्यु

२१ आत्मु अविनाशि आनी दीर्घायु
जन्मु नात्तिलो आनी अव्ययु
जाणतलो हें तूं मारैता कोणाक ?
सांग अर्जुना मारता कित्याक ?

२२ वस्त्र पिंदकर आनी जर्झरित
उडूनु मानवु नवें तें घेत
त्या रीति आत्मु जीर्ण शरीर
सोणु काणु घेत्ता नवें शरीर

२३ आत्माक ना नाशु अस्त्र शस्त्रांनि
लासूनु वच्चनारे तो उज्जानि
उदकाक तिबना आनी वल्लो जायना
थंड वार्याक आत्मु आटृशीना

२४ जायना कुडको आनी तो लास्सशोना
तिबूनु वच्चशीना आनी सुक्कशीना
नित्य तो आस्स व्यापूनु सर्व
उरचो स्थिरू खरें कालारीथि सर्व

२५ दोळ्यांक दिस्सना मनाक सूचेना
केदनाहिं तो बदल जायना
समझूनु तूंवे हें सोडका व्यसन
युद्धाक आत्तं दृढ करका मन

२६ नित्य उब्जता नित्य मरता
जन्म मरणांतु आत्मु उरता
अशें एक वेळा लेकल्यारीयि पार्था
घोर दुःख तूं इत्याक करता ?

२७ जननाक आयील्याक आस्स तें मरण
मेल्लेल्याकास्स पूनरपि जनन
न्यायु हो चोय् चुकना मनुष्याक
सोडि दुःख दी हातु धनुष्याक

२८ दिसनांति कोणहि जावचाक फूडे
दिसचे सर्वायि जायना फूडे
मेल्लेले उपरांतें दिसनांति चोयि
दुःख कित्याक ह्या विषयांतु फायि ?

२९ चोयता एकलो हें आश्चर्यान
आश्चर्यान आनी एकलो करता वर्णन
तिसरो आश्चर्यांन वर्णन आय्कता
आय्कूनूयि कोण हें जाणता ?

३० सर्वांले हृदयांतु आश्शीलो आत्मु
हृदयाचो म्हालीकु तो अंतरात्मु
अर्जुना, आय्क ! ना ताक्का नाशु
व्यर्थ तुक्का इत्याक हो मायपाशु ?

३१ तुगेलो स्वधर्मु तो इत्तें समझ
तेवय दृष्टीन भिवचें असहज
क्षत्रियांक युद्ध होड धर्म
केदनाहीं न्हंय चोयि तें पापकर्म

३२ आपो आप घडिले हें समर
अतुल भाग्य स्वर्गु अमर
असलि ही सुसंधि मेळत कोणांक
भाग्यवंतांक चोय् क्षत्रियांक

३३ तरी करना हें धर्मयुद्ध
स्वधर्मभ्रष्ठाक तू जाशि बाध्य
जोळ्ळेलि कीर्ति ती वच्चत
होळ्ळें पाप तें घडत

३४ सतत राब्बत हें अपयश
लोकु मेच्चायत हे तुगेलें दोष
संभावित भीनांति मृत्यूक
उलट ते भित्ताति अपकीर्तीक !

३५ युद्धाक भीवनु धांवलो अर्जुनु
म्हणतीत महारथ मनांतु लेकूनु
एद्दोळु तुक्का मानु दित्तले
सानु तूं म्हणु समझूनु वत्तले

३६ तुगेले सामर्थ्य निन्दा करतीत
तुगेले शत्रु तुक्का सोवतीत
ह्या पेक्षां दुःख आनी खंचें होड
आय्क पार्था ही दशा पाड !

३७ मेल्यारि युद्धांतु स्वर्गुं सिद्द
भूंयचो उपभोगु जिकल्यारि युद्ध
उटा, अर्जुना करि निर्धारू
युद्ध क़रनूचि तुमगेलो उद्धारू

३८ जय, अपजय, सुख दुःख
लाभ नष्ट हें सर्व एक
अशें समझूनु करिरे समर
तेन्ना जायत पाप दूर

३९ एदोळु पर्यंत आय्कलें तूंवें
सांख्यमत तत्व सांगीलें हांवें
आनी आय्क तूं योगमत
ताजेन कर्मबंधन कळचत

४० जाल्यारि आरंभ नाश जायना
अड्डि आतंक कर्मांक येना
ह्या धर्माचि अत्यल्प आचरण
महाभयांतून करता रक्षण

४१ स्थिर जावनु व्यवसायांतु
राबचि दृढ बुद्धि जावका हांतु
व्यवसायु नातल्यारि बुद्धि पिंदकर
चारि वाट्टेनयि वेगळतु अस्थिर

४२ वेद संबंध वादु करतले
वादु तो होड्डु अशें लेकतले
वादु विवादु शिवाय ना दुस्रि गति
पार्था आय्क हे दुर्मति

४३ स्वार्थि जात्ताति स्वर्गु ध्येय
समझूनु करताति आयुष्य व्यय
भोगु, ऐश्वर्य क्रियासक्त
पुनरपि जननाक सर्व प्राप्त

४४ आसल्यारि भोगैश्वर्यांत् आसक्ति अधिक
उरना बुद्धि व्यवसायात्मिक
बुद्धि व्यवसायात्मिक नातल्यारि
राबचि समाधि कशें स्थिरारि ?

४५ वेद त्रैगुण्य विषय भरित
पार्था, तूं जींक हे गुण त्वरित
नित्य सत्वगुणांतु स्थिर
आत्मवान् जा करनु द्वन्द्वं दूर

४६ भोरनु होळच्या प्रवाहा मुकारि
सान फोंड ते दिसतांति भारि
त्या सारखें ज्ञानि ब्राह्मणालें ज्ञान
ताच्या सम्मुखारि वेदयि लहान

४७ तुक्का अधिकारू कर्म करचो
ना चोय अधिकारू फल भोगचो
नाक्का कर्मफलाचि अपेक्षा
कर्म नात्तिलेकडे नाक्का आकांक्षा

४८ सिद्धि असिद्धि एक समझूनु
कर्म करि पार्था आसक्ति सोगु
समत्व तें चोय योगु म्हणैता
योग युक्त काम करता

४९ बुद्धि समत्वाकय नीच तें कर्म
आयक अर्जुना सकाम कर्म
समत्व बुद्दीचो आश्रयु श्रेष्ठ
फलाचि इच्छा ती लोभाकय पाष्ठ

५० कोणकी समत्व बुद्धि ती धरता
तोचि सुकृत दुष्कृत सोडता
करि त्या बुद्धि योगा साधन
तेंचि कर्म कौशल्य सोपान

५१ समत्व बुद्दीन युकत तो ज्ञानि
कर्मफलाचि ना ताक्का तानि
जनन मरणांच्या चक्रांतून पार
जावनु पावता सद्गति साक्षात्कार

५२ मोहान उब्जूचें भ्रांति प्राकार
कळचूनु बुद्दीन आयल्यारि भायर
आयकिल्या, आयकूच्या विषयां खातीर
तटसथ्य वृति जात्तारे स्थिर

५३ निरनिराळिं मोहक उत्तं
आयकूनु जात्ता बुद्धि अतंत्र
ती बुद्दि साधनेन केल्यारि स्थिर
योगु समत्व ना मागीरि दूर

५४ अर्जुनु म्हणालोः-
सांग केशवा स्थितप्रज्ञु कोण
कसलिं त्या समधीचिं लक्षण
स्थिर बुद्दीचो तो कशें उलयता
कशें आसता, कशें चलता ?

५५ श्री भगवान म्हणालोः-
मनाच्यो सर्व कामनो सोळ्यारि
आत्मान आत्मांनु संतोषु पावल्यारि
तो मनुष्यु स्थितप्रज्ञु जात्ता
ताक्का म्हणतानि स्थितप्रज्ञु पार्था

५६ दुःखांतु कोणकी जायना चंचल
सुखांतु कोणकी पावना अमल
प्रीति, भय, क्रोधांक वश कोणकी जायना
स्थितप्रज्ञु मुनि ताक्का म्हणतानि तेन्ना

५७ कोणकी सगळ्यान आसक्तिरहितु
शुभाशुभप्राप्तींतु सुख विरहितु
द्वेषु कोणाकडेय कोणकी करनारे
बुद्धि तागेलि स्थिर प्रतिष्ठितरे !

५८ कशेंकी कासवु बहु सुलभारि
सर्व इन्द्रियं तांडता भितरि
इन्द्रिय विषयांतून इन्द्रियं तांडल्यारि
प्रतिष्ठित बुद्धि उरता स्थिरारि

५९ विषयं दूरु जात्तीत जेन्ना
नरदेहि निराहारि तेन्ना
विषय संबंधि रसु थंय उरता
परब्रह्म साक्षात्कारान तो सरता

६० प्रबल इन्द्रियं अतिभयंकर
प्रमुख ज्ञानिकयि करताति अधीर
प्रयत्न निरतु उरल्यारीयि ज्ञानीन
आय्क अर्जुना तांडताति मन

६१ सर्व इन्द्रियं ताबें दवरनु
योगीन योगाचरण करनु
मेगेल्यांतु तन्मय जावका त्वरित
इन्द्रिय जिंकल्यारि स्थिर बुद्धि प्राप्त

६२ विषयं आठयल्यारि तांतु आसक्ति
जावचि सहज आय्क ही उक्ति
आसक्तीन कामु उत्पन्न
काम क्रोधाक दित्ता जनन

६३ क्रोधान अविवेकु तो आस्स जात्ता
अविवेकु चोयि स्मृति नष्ट करता
स्मृति नष्टान बुद्धि नाश
बुद्धि नाशान सर्वत्र नाश

६४ कोणकी मन अंकेंतु दवरता
राग द्वेष रहितु उरता
इन्द्रियं तो स्वाधीन करता
विषयांतूयि मन प्रफुल्ल दिसता

६५ मन प्रफुल्ल आसल्यारि दुःख
दूर जावनु मेळता सुख
प्रफुल्ल मनाच्या त्या सुखांतु
बुद्धि जात्ता स्थिर आत्मांतु

६६ बुद्धि स्थिर नातल्यारि ना थंय श्रद्धा
श्रद्धा नातल्यारि ना शांतिसुधा
शांति ना तरि सुख मेळत खंय
समत्व योगाभ्यासान बुद्धि स्थिर चोय्

६७ खंयी इन्द्रियं विषयांतु लोळताति
इन्द्रियां माक्षि मानव चलताति
थंयी दिसता बुद्धि चंचल
ह्व्यांत नव्या सारखें कल्लोल

६८ सर्वविधान इन्द्रियं पार्था
विषयांतून दूर दवरका
इन्द्रियं कोणकी अंकेंतु दवरता
बुद्धि तागेलि आत्मांत स्थिर उरता

६९ खंयकी सर्व प्राणी निद्रित
थंयी संयमि दिसता जागृत
सर्व प्राण्यांनि आसल्यारि जागृत
दोळे सोणु मुनि आसता निद्रित

७० सर्व दिशानय भरता उदाक
तरि मेळतातित न्हंयो समुद्राक
सर्व विषय भरतचि मेळत
नैज शांति स्थित प्रज्ञांक

७१ ‘जावका’ म्हळ्ळें सर्व सोणु
स्वार्थु सर्व त्याग करनु
आपण्याक आपण विसरता कोण
ताक्का मेळत शांति धन

७२ ब्रह्मपदवि कोणकी पावता
तोचि ह्या प्रमाणे आसता
वेड्या सारखें भोवनारे तो
अंत्यारि ब्रह्म निर्वाणाक पावता तो



# तीसरो अध्यायु

१ अर्जुन म्हणालोः-

कर्मा पेक्षा ज्ञान व्हड
कृष्णा तू सांगता हे तत्व गूढ
असल्या ह्या स्थितींत इत्याक माक्का
घोर युद्ध कर्मांक लायता ?

२ असल्या ह्या संदिग्ध उतरांनि
बुद्धि भ्रमेनु जाल्या सानि
कसल्यान माक्का जायत श्रेय
सांग बेगी ताक्का उपाय

३ श्री भगवान म्हणालोः-

अर्जुना आयक ह्या लोकांतु
सांख्यांलि निष्ठा ज्ञानयोगांतु
निष्ठा योग्यांलि कर्मयोगांतु
सांगल्याति ह्यो निष्ठो पैल्या उतरांतु

४ काम करनात्तिलें कर्मबंधन
चुकोयेत हें फट्टि मनुष्यान
काम सोणु सन्यास घेतल्यारि
सिद्धि मेळना खचित अंत्यारि

५ एक क्षणहि सोण्णातिले काम
करनु आसता इह जनस्तोम
प्रकृतिसहज आस्स जाल्लेले गुण
करयताति काम करनु परस्वाधीन

६ कर्मेन्द्रियं ओत्तायानि
बिगि धरनु मनुष्यान
मनांतु विषय भोग आटयल्यारि
म्हणताति ताक्का मिथ्याचारि

७ मनान इन्द्रियं अंकें दवरनु
फलाचि आसक्ति, अर्जुना, सोणु
कर्मेन्द्रियांनि कर्मयोगु
आचरण करचो तो श्रेष्ठत्यागु

८ देकून तूं करि तीं नियतकर्म
कर्म सोडचाकयि करचेंचि धर्म
कर्म करनात्तिलें नुलित बसल्यारि
देह वांचशिना ह्या भूंयचेरि

९ यज्ञा खातिर सोणु तीं अन्यकर्मं
लोक बंधनाक जात्ताति कारण
यज्ञा खातिर आसकितरहित
कर्म करचें हें तुक्का विहित

१० यज्ञा जवळ लोकनिर्माण
केल्या ब्रह्मान सांगलां उतरान
ह्या यज्ञान जावो तुमकां श्रेय
सर्वं मनोरथ सिद्ध जय

११ ह्या यज्ञान देवांक सतुष्टि
करा ते तुमकां दित्तीत तुष्टि
अशें उभय संतोषान
पाव्वाति परम श्रेय धन

१२ यज्ञान देव संतुष्ट जाल्यारि
दित्तीत तुमकां खंचेय मागल्यारि
देवांनि दिल्लेल्यांत दीनात्तिलें परत
सर्वय भोगचो तो चोरू खचित

१३ यज्ञ करनु उरलेलें उच्छिष्ठ
भोगचो पापमुक्तु श्रेष्ठ
कोणकी आपल्या खातिर अन्न
शिजयता तो पापि जेवता पापान्न

१४ प्राण्यो उबजताति अन्नान
अन्न उबजता पावसान
पावनु यज्ञान उब्जता
यज्ञु कर्म मूल चलता

१५ उबजता कर्म तें ज्ञानान
ज्ञानाक्षर परमात्मान
सर्वव्यापि परमात्मु चोय
यज्ञांतु स्थिर राबता हें व्हय

१६ यज्ञचक्र अशें शुरू जात्ता
सोण्णातिले मानवु मुन्दरसिता
इन्द्रिय लंपटालें आयुष्य क्षीण
पार्था, जीवन चोय रसहीन

१७ कोणकी आत्मांतु तल्लीन
तृप्तु आत्मांतु कि कोण
संतुष्टु आत्मांतु कोणकि आसता
करूंक उरलें काहीं ना ताक्का

१८ करनु ताक्का काहीं फल ना
सोळ्यारि काहीं हानि जायना
ना चोय व्यक्ति संबंधु तागेलो
प्रणिवर्गाक तो लागीलो

१९ करचे कर्तव्य करि मन दीवनु
फलाचि अपेक्षा ती सोणु
अनासक्तीन केल्यारि कर्म
खचित मेळता पदवि परम

२० म्हालगडे जीवनांतु कशि चलताति
तशि धाकले हेज्जे घालताति
खंचेंकि प्रमाण ते समझताति
उरलेले अनुकरण करताति

२१ आयक अर्जुना, तिन्नीयि लोकांतु
करच्याक उरलें ना माक्का हांतु
घेवकाकय उरलें नारे
तरि कर्तव्य हांवे सोणीरे

२२ तरि आलस्य सोणु दीवनु हांवें
काम करनातल्यारि जायत इत्तें जाणवे
लोकु करत अनुसरण माक्का
हाज्जेन इत्तें जायत कळनावे तुक्का

२३ कर्म हांवे सोळ्यारि लोकु जायत पाड
लोकांतु संकर घडत व्हड
ताक्का कारण हांवचि जायन
प्रजानाशाकयि कारण जायन

२४ कोणकी अविवेकि तो करता कर्म
अर्जुना, आयक आसक्तीन
लोकसंग्रहा अपेक्षा घरका
अनासक्तीन कर्म तीं करका

२५ कोणकी कर्मासक्त अज्ञानि
तांगेल्यांतु भेदु करनातिलो ज्ञानि
फलाचि आशा सोणु करता
सर्व कर्म प्रीतीन करयता

२६ साध्य जातांति सर्वय कर्म
प्रकृति गुणान हें चोय मर्म
अविवेकि मनांत अहंकारु धरता
'करतलों हांवचि' अशें समझता

२७ गुणकर्म विभागाचें तत्व
कोणकी जाण, धरना ममत्व
गुण गुणांतु मेळनु जातांति
अशें समझूनु सोडता आसक्ति

२८ प्रकृति गुणांनि अविवेकि जन
गुणांनि जावचा कर्मांत मग्न
मन्द बुद्दीच्या तांका हालोन
केदनाहिं जायना जाण तो सान

२९ बुद्धि अध्यात्म मनांत धरनु
सर्व कर्म माक्का ओपसूनु
आशा नातिलें ममत्व सोणु
युद्ध करिरे संतापु त्याजूनु

३० कोणकी श्रद्धेन मत्सरु नातिलें
अनुसरण करता उत्तर मेगेलें
ताका लागनाति तें कर्मदोष
मुक्तु जात्ता तुंटूनु भवपाश

३१ मनांतु कोणकी मत्सरु धरता
आनी मेगेले उत्तर विसरता
तसलो अविवेकि तो महामूर्खु
ताका गति चोय नाशु आनी नरकु

३२ जाण तो चलता स्वभावा सारखें
प्राण्यो आपल्या प्रकृति गुणा म्हणके
असल्या परिस्थितींत बिगि धरिल्यान
जावचे कांय आस्सवे होड, महान

३३ इन्द्रियां विषयांतिन्द्रिय रागद्वेष
निश्चेतास्सति तूवें जाणका विशेष
तांच्या अंकेंतु तूं चलनाकारे
मनुष्याक ते शत्रुरूपाचेरे

३४ सुखान अनुसरसूत्रो परधर्मु हित न्हंय
गुणरहित आसचो स्वधर्मु हितु चोय
स्वधर्मांतु मरण येव्वो तें हितकर
परधर्मु केदनांहि अति भयंकर

३५ अर्जुन म्हणालो:-

कृष्णा हांव नेण इत्याक मानवु
मन नातल्यारि जात्ता दानवु
कोणाले प्रेरणेन खंचे ओत्तायान
पाप करत वत्ता तो अनुदिन

३६ श्रीकृष्णु म्हणालो:-

रजोगुणान उबजूचें काम
आनी क्रोधु चिकलाक समान
हें दोनीय पापयुक्त आस्सतिरे
देकूनु तें तुगेले शत्रु समझरे

३७ कशिकी उज्जो धुव्रान आवृत
आरसो धूळीन निष्पत
गर्भाक जरायु चिल्ला आवरण
तशें ज्ञानाक कामाचें ग्रहण

३८ सतत प्रज्वल अग्नि सर्वालो
नित्य वैरि चोय कामु सकडांलो
जाणत्यांलि ज्ञानाक हो अंधकारु
आयक अर्जुना, हो भयंकरु

३९ सर्व इन्द्रिय आनी बुद्धि मन
कामरूपि शत्रुलि वासस्थानं
कामु हांगा तानु ज्ञान आवरण
करनु मनुष्याल्यांतु भरता अज्ञान

४० पयले इन्द्रिय दवरि ताबेंतु
म्हळ्यारि जिकवूयेत पापीजगांतु
ज्ञानं आनी विज्ञान नाश करचें काम
भाय घालूंक हेंचि साधन

४१ देह पेक्षां इन्द्रिय श्रेष्ठ
इन्द्रियां पेक्षां मन तें श्रेष्ठ
मना पेक्षां श्रेष्ठ बुद्धि
बुद्धि पेक्षां श्रेष्ठ आत्मसिद्धि

४२ बुद्धि पेक्षां आत्मु तो श्रेष्ठु
पार्था मनांतु दृढ करि पाठु
आपण्याले बलान बिग्दिता कोण
जिकवूकारे कामु हो शत्रु कठिण



# चवतो अध्याय

( ज्ञान - कर्म - सन्यास योगु )

१ श्री भगवान् म्हणालो:-
केदनाई नाशु ना ह्या योगाक
हांवे सांगलो हो विवस्वानाक
विवस्वानान मनूक सांगलो
इक्ष्वाकु मनू कडच्यान आयकलो

२ मनन केल्लो राजर्षींनि
परंपरा प्राप्त हो योगु तांनी
हेतांतु बहुकाल धर्नु ना चालु
आयकतले नातीलें जाल्लो तो पोलु

३ योगु चोय हो अति पुरातनु
सांगीलो तुका हांवे मित्रु समझूनु
भक्तूय तूं मेगेलो अशें लेकूनु
श्रेष्ठ रहस्य हें सांगलें विवरसूनु

४ अर्जुनु म्हणालो:-
कृष्णा आयक तूं आर्तां जन्मलो
विवस्वानु पैलें जाल्ललो
आदिकालांत तूंवे हो सांगीलो ताका
म्हळ्ळे हें हांवे कशें समझूका ?

५ श्री भगवान् म्हणालो:-

जाल्याति बहुतेक जन्म ते आमकां
अर्जुना, आयक माका आनी तुका
हें सर्वविषय हांव ते जाण
तूं चोय हांतुं खंचेय नेग

६ जन्मरहितु आनी अव्ययात्मु
सर्वप्राण्यांक हांव परमात्मु
जाल्यारीय प्रकृति स्वाधीन दवरनु
आत्म मायेनचि आस्स उबजूनु

७ खंयकी घडत्ता धर्माक नाश
आनी चडत्ता अधर्माक यश
थंय पार्था हांव दिसतां रे
मकाच हांव सृजून घेतां रे

८ साधुजनांलि संरक्षण
दुष्ट जनांक शासन
आनी धर्म संस्थापन
करुंक युगयुगांत हांव येन

९ दिव्य जन्मु हो आनी दिव्य कर्म
कोणकी परिपूर्ण जाणता हें मर्म
ना ताका पार्था, पुनरपि जनन
जाता तो मेज्यांत अंतर्धान

१० भय, क्रोध, अनुराग मुक्त
जावनु कोणकी मेज्यांतु विरक्त
शरण आयीले ते सर्व ज्ञान तपस्यान
परम पवित्र मेजो भाव घेवून

११ कोणकि कशें शरण येतातित माका
पार्था, हांव तशेंच पावता तांका
आयक मनुष्य सर्व विधान
करतातित भेगेलोचि मार्गु अनुसरण

१२ कर्मसिद्धि इहांत कोण इच्छेतातित
तेचि देवांक पूजन करतातित
मनुष्यलोकांतु कर्माचें फल
क्षिप्र तें लभ्य त्याचा बदल

१३ गुण कर्म विभागा प्रमाणे
चतुर्वर्ण केल्लया हांवे निर्माण
केल्ललो ते हांव जाल्ययिय
तूं समझ अव्ययु आनी केल्ललो न्हंय

१४ कर्मफलांतु ना माका आशा
देकूनु लागनातित ते कर्मपाश
अशें यथास्थितींत कोणकि माका जाणता
कर्मबंधनांतून तो खरें सुटता

१५ हेंचि समझूनु बहु पूर्वकालि
मोक्षसाधकांनि कर्म तीं केल्लीं
म्हालगड्यांनि पूर्वीत केल्लेलि कर्म
तूवंय करिरे हें चोय मर्म

१६ "खंचे कर्म, खंचे अकर्म ?"
हांतु मोहित ज्ञानिही परम
देकूनु सांगता हांव कर्मांचे विवर
समझूनु जा तूं अशुभांतून पार

१७ कर्मतत्व समझूका रे
विकर्मा तत्व तेंवय समझूका रे
आनी समझूका अकर्मतत्व
कर्मगति चोय अति गूढतत्व

१८ कर्मांत अकर्म, अकर्मांत कर्म
कोणकि सोदिता तो ज्ञानि परम
तोचि योगि परम त्यागि
कर्म पूर्ण करचो विरागि

१९ काम संकल्प वर्जित
सर्वकर्म समारंभ करतीत
कोणकि ज्ञानाग्नीन कर्म लासतीत
जाणते तांकां आत्मज्ञानी म्हणतीत

२० कोणकि कर्मफल त्याग करता
कोणकि नित्य संतृप्तु उरता
स्वशक्ति सोणु अन्याश्रयु घेना
कर्मनिरत आसल्यारीय तो कर्म करना

२१ कोणकि फलाचि आशा सोडता
अंत:करण संयम धरता
शरीर कर्म भोग सोणु
केल्यारीय जायना तो पापि म्हणु

२२ सहज प्राप्तींतु पावनु संतुष्टि
सुख दु:खाचि सोणु गोष्टि
सिद्धि असिद्ध सम कोण लेकता
निर्मत्सर्याक कर्मबंधन चुकता

२३ ज्ञानमय चित्तु आसक्तिरहितु
यज्ञाखातीरचि कोण कर्मनिरतु
त्या मुक्त पुरुषालिं कर्मं उरनांति
केल्यारीय सर्व लय जातातित

२४ यज्ञांतुं अर्पण चोय तें ब्रह्म
हवनय ब्रह्म अग्निय ब्रह्म
अग्नींतुं हवन करचोय ब्रह्म
कर्मांतुं ब्रह्म चोवचोय ब्रह्म

२५ करतातित थोडे योगि पूजन
देवांक संतुष्टि करूंक यज्ञ
थोडे ब्रह्मरूपाग्नि यज्ञ
करनु तो यज्ञु करतातित हवन

२६ श्रवण इन्द्रिय संयम रूपान
थोडे करतातित गज्ञाचें हवन
थोडे शब्दादि विषय यज्ञ
इन्द्रिय रूपाचे अग्नींतुं हवन

२७ आनी थोडे इन्द्रिय कर्मं
आनी सर्व प्राण कर्मं
ज्ञान दिव्यान जळ्ळेले आत्मसंयम
ह्या योगाग्नींतुं करतातित भस्म

२८ थोडे करतातित द्रव्य यज्ञ
करतातित थोडे तपोयज्ञ
योगयज्ञ, स्वाध्याय यज्ञ
आनी यति थोडे ज्ञानयज्ञ

२९ प्राणायामांतु थोडे तत्पर
प्राण, अपान करतातित दूर
अपानांतु प्राण, प्राणांतु अपान
ह्या प्रमाणेय करतातित हवन

३० थोडे करतातित आहार संयम
प्राणांतु प्राण करतातित होम
जाणिले हें यज्ञाचें महत्व
यज्ञान जाल्यातित पापविमुक्त

३१ यज्ञशिष्टामृत कोणकी भक्षिता
सनातन धर्मपद तो पावता
यज्ञ करनातिल्यांक ना इहांतु सुख
मेळतवे तांका पार्था परांतु सुख

३२ अशें बहुविध यज्ञांचि वर्णन
मेळता वेदांतु विस्तारान
समझ तें सर्व कर्मान उत्पन्न
मुक्त जात्ता तूं पावल्यार हें ज्ञान

३३ यज्ञ-द्रव्याकय ज्ञान उत्तमु
समझ अर्जुना, तूं हो नियमु
सर्व कर्मांचे पर्यावसान
जात्ता खंय चोय तेंचि ज्ञान

३४ तत्वदर्शि ज्ञानियांलो आश्रयु
घेवनु समझूका ज्ञानाचो विषयु
पडका पांयारि सेवा करका
करतातित उपदेशु तूंवे आयकूका

३५ लभ्य जाल्यारि हें दिव्य ज्ञान
जायना फलगुणा मोहु उत्पन्न
सर्व प्राण्यांक चोयशि तुज्यांतुं
आनी आत्मांतुं देकूनु मेज्यांतुं

३६ सर्व पापियांकय तूं होडु पापि
आसल्यारिय जाशि खरें निष्पापि
ज्ञानाचो नावो करता पार
तुगेलि सर्वय पाप दूर

३७ जळचो उजो लासता राकूड
भस्म करता सान होड
उज्या सारखें आसूचें ज्ञान
दग्ध करता कर्मबंधन

३८ ज्ञाना सारखें पवित्र साधन
इह्यांतु ना दुसरें दी हेकडे ध्यान
योगांतु समत्वांतु कोणकिं पूर्ण
चोयत मुकारि आत्मांतुं ज्ञानदर्शन

३९ श्रद्धावंतु तत्परपुरुषु
इन्द्रियनिग्रहान ज्ञानाचो स्पर्शु
पावता आनी ती ज्ञानप्राप्ति
दित्ता बेगी ताका परमशांति

४० ज्ञानरहितु, श्रद्धारहितु
सर्वविषयांतुं संशयग्रस्तु
पावता नाशु ना ताका सुख
इह पर हे उभय लोक

४१ कर्माचि आसक्ति योगान सोणु
ज्ञानान सर्व संशयु काणु
आत्मबलान कोणकि युक्त
तोचि कर्मबंधनांतून मुक्त

४२ अज्ञानान आस्स जाल्लो हृदयांत संशयु
ज्ञान खडगान करि निस्संशयु
योगाचो आश्रयु करिरे अर्जुना
उटावनु राब युद्धाक वीर फलगुणा



# पांचवो अध्यायु

( कर्मसन्यास योगु )

अर्जुनु म्हणालो:-

कर्मसन्यास बरें म्हणता तूंचि
कर्मयोगु बरो म्हणचोय तूंचि
समझना हांव खंचें हांतु श्रेय
कृष्णा दूरु करि मेगेले संशय

श्री भगवान् म्हणालो:-

कर्मत्यागु आनी कर्मयोगु
दोनीय मोक्षाक दाकयताति मार्गु
दोनींतु श्रेष्ठु तो कर्मयोगु
त्यागा पेक्षां होडु तो योगु

कोणकि करना इच्छा आनी द्वेषु
तागेलो खरें तो नित्य सन्यासु
तरि द्वन्द्वं सोडचाक तो शक्तु
तेन्ना पार्था, तो कर्मांतून मुक्तु

सांख्य योगांत भेद लेकताति अज्ञानि
भेद लेकनाति खरे ते ज्ञानि
संपूर्ण स्थिर आशीलो समदृष्टीन चोयता
दोनीय मार्गाचें फल तो भोगता

५ सांख्यमार्गान खंचेकि वद्‌गता
योग मार्गानय फल तें मेळता
सांख्य, योग एक रूप
समझूचो चोयता तो सत्यरूप

६ कर्मयोगु नातीलें सन्यास
आयक अर्जुना, तें भो प्रयास
केल्यारि कर्मयोगु अभ्यास
मेळता ब्रह्मत्व तें अनायास

७ कर्मयोगु आचरसूनु
हृदय नित्य निर्मल उरनु
जयसून इन्द्रियं सर्वात्म एक
अशें लेकतलो कर्मातुं अलिप्त

८ चोवचें, आयकूचें, स्पर्श, आघ्राण
खावचें, चमकूचें, श्वासु आनी शयन
हांतुं खंचेय हांवे करचें न्हय
अशें लेकतलो योगज्ञानि चोय

९ दोळे सोडताना दोळे धांपताना
उलयताना विसर्ज करताना
करतातित इन्द्रियं हांव कांय करना
ही शिवाय अन्य भावना धरना

१० फलासक्ति कोणकि सोडता
आनी कर्म ब्रह्माक अर्पिता
कमलपत्राक लागना उदाक
तशें पापांचें ना ताका बाधक

१९ फलाचि आशा संपूर्ण सोणु
आत्मशुद्धीचि दृष्ठींत दवोरनु
बुद्धि, मन, देहेन्द्रियांनि
योगि कर्म करताति तान्नि

१२ कर्मयोगि फलाचि आसक्ति
सोणु पावताति परम शांति
योगाचरण कोणकि करना
कामनेन ताका बंध चुक्कना

१३ संयमिपुरुषु कर्म सर्व
मनांतून घालून भाय
नवद्वारपुर ह्या शरीरांतासून
करना, करयना आसता सुखान

१४ लोककर्तु कर्तृत्व निर्मिना
आनी कर्म तो निर्मिना
कर्तु न्हय कर्मफल संयोगाक
स्वभावु कारणकर्तु सर्वाक

१५ सर्वव्यापि परमेश्वरु
व्हावना पाप पुण्याचो भारु
ज्ञानाक अज्ञान तें धांपता
देकूनु मनीषु मोहांतु पडता

१६ आत्मज्ञानान तें अज्ञान
नाश करताति कोणकि जन
सूर्या सारखे तांगेलें ज्ञान
पावत परम तत्वदर्शन

१७ त्या तत्वांतु बुद्धि दवोरनु
तेंचि आत्मु अशें समझूनु
कोणकि तन्मय, स्थिर तांतु उरता
पाप नाश जावनु मोक्षाक पावता

१८ विद्या, विनय भरित ब्राह्मणाक
गाय, हस्ति, सूणे चांडालाक
पंडित चोयनाति भेदभावान
चोयताति सर्वांक समदृष्टीन

१९ कोणकि समत्वांतु स्थिर मन धरता
इहांतु तो संसारु जिक्वता
ब्रह्म चोय सम सदा निर्दोषि
देकूनु ब्रह्मांतु स्थिर समदर्शि

२० पावना हरुष प्रियवस्तु प्राप्तींतु
जायना उद्विग्न अप्रिय प्राप्तींतु
स्थिरबुद्धिचो तो मेळना मोहांतु
ब्रह्मज्ञानि स्थिर उरता ब्रह्मांतु

२१ बाह्यविषयांतु अनासक्तु
भोगता आनंदु तो आत्मांतु
तेंचि अक्षय सूख भोगता सतत
कोणकि ब्रह्मयोगांतु निरत

२२ मेळचे भोग उत्तमस्पर्शानि
दार्थी, आयक दुःखाक कारण
आदि अंत्य आस्स तांकां
विवेकि शरण जायना हांकां

२३ देहत्यागाक पयले इह्रांत
कामक्रोधांचो वेगु देहांत
कोणकि जयसिता तोचि शक्तु
तोचि सुखि तोचि युक्तु

२४ अंतस्सुख कोणकि भोगता
अंतश्शांति कोणकि पावता
अंतर्ज्ञानाचो तो योगि
अंत्यारि तो ब्रह्मनिर्वाणाक भागि

२५ खंयकि पाप विमोचन
आनी संशय निवारण
प्राणि दया, आत्म संयम
थंय प्राप्त ब्रह्मनिर्वाण

२६ काम क्रोध कोणकि जिकवता
आत्मसंयम कोणकि शिकता
जोडता कोणकि आत्मज्ञान
पावता सर्वत्र ब्रह्मनिर्वाण

२७ बाह्य विषय भोग त्यजूनु
दृष्टि भोवे मद्दें रबोनु
नांकांतुं खेळचे प्राण अपान
रबोनु स्थिर तांचें चलन

२८ बुद्धि, इन्द्रियं आनी मन
दवोरनु घेवनु आपल्या स्वाधीन
इच्छा, भय, क्रोध बिरहितु
मोक्ष परायणु तो सदामुक्तु

२९ यज्ञ तपस्यांचो भोक्तारु
सर्वलोकांक महेश्वरु
सर्वप्राण्यांक हांव मित्तु
अशें लेकतलो शांतिक पात्तु



# संवो अध्याय

( आत्म संयम योगु )

१ श्री भगवान् म्हणालो:-
कर्म कोण करता फलाचो आश्रयु नाशि
तोचि योगि आनी सन्यासि
अग्निहोत्र आनी क्रिया करनाशि
जायना कोणई योगि सन्यासि

२ सन्यास स्थिति आस्स पळे खंचि
अर्जुना, आयक योगु तीचि
कोणकि मनाचे संकल्प सोणा
तो चोय सत्य योगि जायना

३ कोणकि योग साधना इच्छा करता
मुनीक ताका कर्मसाधन जात्ता
योगारुढु आस्स पळे कोण
ताका जात्ता श्रमु साधन

४ जेन्ना मनांपु उरना आसक्तु
इन्द्रिय विषयांतु तानी कर्मांतु
जवळ सर्व संकल्प सोडता
तेन्ना योगारूढु म्हणयता

५ आत्माचो उद्धारु आत्मान जावका
अधोगतीक तो वचनाशि राकूका
आत्मु आत्माक बंधु मित्रु
आत्मु आत्माक तोचि शत्रु

६ स्वबला कोणकि इन्द्रियं जिकवता
ताका आत्मु बधु जात्ता
कोणकि देहेन्द्रियांक हारता
ताका आत्मु शत्रु उरता

७ इन्द्रियं जिकवूनु शांति पावील्यालो
आत्मु महान स्थितीक पावीलो
शींय उष्ण सुख दुःख
मानापमानांतु तो समतूक

८ ज्ञान विज्ञानांतु संतुष्ट उरनु
जयसूनु इन्द्रियं उच्चस्थान घेवनु
मात्ति, फातोरु, स्वर्ण समान
लेकचो तो योगि पुरुषमहान

९ निष्पक्षपाति मित्रु, शत्रु
सुहृदयुं द्वेषपात्रु
बंधु, साधु पापि, पक्षपाति
समभावान व्येवचो ह्यांकां तो योग्य यति

१० योगीन एकांतांत एकलो आसूनु
चित्त आत्म संयम करनु
वासना संग्रह परित्याग करका
सतत योगाभ्यासांत निरत उरका

११ शुद्ध, निर्मल, योग्य जाग्यारि
ऊंच, नीच न्हंय समस्थळारि
दर्भों मृगचर्म, वस्त्र पातलाका
योगीन थंय स्थिर आसन रचौका

१२ थंच्या स्थिर आसनारि बैसूनु
मनांतु एकाग्रता सिद्ध करनु
चित्त आनी इन्द्रियं अकेंतु दवोरका
आत्मशुद्धीक योगु साधन करका

१३ काय, कंठ आनी मस्तक
निश्चल धरनु रेखेरि एक
दृष्टि दवोरका नासिकाग्रारि
स्थिर चोयनातिलें दिक्कडे चारि

१४ सर्व भय सोणु शांतीन आसूका
ब्रह्मचर्य पालन करका
मन ताबेंतु चित्त मेज्यांतु
योगीन स्थित जावका मेगेले ध्यानांतु

१५ नित्य कोण अशें योगांतु तत्पर
आनी दवरता मन तें स्थिर
निर्वाणांत योगि पावता सद्गति
मेज्यांतु आसचि तो परमशांति

१६ मिति मिकवून खातल्याक
लेश मात्रय खायनातिल्याक
अतिनिद्रेच्याक नीद नातिल्याक
सिद्ध जायनारे योगु त्या मनश्यांक

१७ आहार विहारांतु मिति दवोरनु
यथा योग्य कर्म करनु
मिति मिक्वनातिलें नीद जागरण
केल्यारि त्या योगान दुःख निवारण

१८ नियमान अंकेंतु दवरिलें मन
केदना स्थिर जात्ता आत्मांतु लीन
कामनो केदन दूर जातानि
तेदना मनश्याक योगीलि गति

१९ वारें नातीले कडे दिव्याचि ज्योति
हालनातीलें जळता स्थिर आसता वाति
त्याचि रीति चोय योगीलि स्थिति
योगांतु स्थिर उरता तागेलि मति

२० ध्यान योगाभ्यासान मन
केदना जात्ता चोय तें स्वाधीन
तेदना आत्माक आत्मु चोयता
आत्मांतु संतुष्टि तो पावता

२१ इन्द्रियांनि जायना ग्रहण
जात्ता केवल बुद्धीन ग्रहण
सुख आत्यंतिक ह्या स्थितींतु मेळता
योगि आत्म तत्वांतु स्थिर उरता

२२ असलि स्थिति कोणकि पावता
अन्य लाभाचि आशा तो सोडता
कोणकि योगि ह्या स्थितींत स्थिर
जायना तो होड दुखांतु अस्थिर

२३ होचि समझूका तो खरो योगु
नाशु करता हो दुःख संयोगु
करका साधकान हाजें अनुष्ठान
हर्षं मनान दृढ निश्चयान

२४ संकल्पान आस्स जार्वचि सर्व वांछित
पूर्ण परित्याग करका त्वरित
इन्द्रियसमूह सर्वदिशान
ताबेंतु दवरका आपल्या मनान

२५ हळूचि धैर्ययुक्त बुद्धीन
शांति, विरामु पावका योगीन
मन आत्मांतु स्थिर दवोरका
अन्यविचार ते दूर करका

२६ मन चंचल आनी अस्थिर
विषयां फाटि धरनु वत्तना दूर
विषयांतून तांडूका मन
आत्माले वश करका दवरनु अधीन

२७ कोणालें मन उरता शांत
आसता कोण रजोगुणरहित
ब्रह्ममय आनी पापरहित
योगीक ताका श्रेष्ठ सुख मेळत

२८ आत्मयोगाचो अभ्यासु सतत
करचो योगि जात्ता पापरहित
पावता तो ब्रह्म साक्षात्कार
अनी आनंद, सुख अपार

२९ आत्मु आपण्यालो सर्वभूतांतुं
सर्वभूत आपण्याले आत्मांतूं
लेकता योगयुक्त आत्माचो
सर्वत्र तो समदृष्टीन चोवचो

३० माका चोयता कोण सर्वाल्यांतूँ
आनी सर्वांक चोयता मेज्यांतु
तागेले दृष्टीक ना हांव दूर
मेगेले दृष्टीकय ना चोय तो दूर

३१ योगीन ह्या एकत्वांतु स्थिर जावनु
भजल्यारि सर्वभूतांतु माका चोवनु
चल्यारि ताणे चोय खंचेय प्रकार
उरता तो मेगेल्यांतूचि स्थिर

३२ आपण्या सारखें सुख दुःख पेल्यांक
आनी सम चोय सर्व प्राण्यांक
अर्जुना, अशें कोणकि लेकता
तोचि श्रेष्ठ योगि म्हणयता

३३ अर्जुनु म्हणालोः-
साध्य हो योगु साम्यवादान
सांगलें कृष्णा तूवे विवरसून
मन चंचल उरला मेगेलें
स्थिर स्थिति पावचे साधन कसलें?

३४ चंचल आनी बहु दृढ मन
महाबलिष्ठ करता मथन
कशेंकि कष्ट वारें तडसूचें
तशेंच चोय कृष्णा मन वश करचें

३५ श्री भगवान् म्हणालोः-
चंचल मन करचें स्वाधीन
कष्ट खरें कुंतीपुत्रा साधन
करयेत आयक मनश्यान अधीन
अभ्यासान आनी वैराग्यान

३६ नातीलें आत्मसंयमन
साध्य न्हय तें योगसाधन
मतु मेगेलो संयमप्रयत्नान
सिद्ध करयेत योगु उपायान

३७ अर्जुनु म्हणालोः-
श्रद्धा तरि आसूनूय साधकान
विचल जाल्यारि अपूर्णयत्नान
सिद्धि जायनातीलें योगु ताका
गति कसलि कृष्णा हाका?

३८ योगभ्रष्टान ब्रह्ममार्गारि
पथिकाक चोय थंय आश्रयु चुकल्यारि
मोडा सारखें उभय भ्रष्टान
वचशिनाबें तूं वेगळून?

३९ मनांचो मेगेलो हो संशयु
कृष्णा, करका तूंवे निसंशयु
तूं शिवाय ना कोणई ग़ति
निवारण करूंक मनाचि ही स्थिति

४० श्री भगवान् म्हणालोः-
योगीक ताका ना नाशु इहांतु
ना चोय पार्था आनी परांतु
कोणकि कल्याण कर्म करता
दुर्गतींतून तो दूर उरता

४१ योगभ्रष्टु कोणकि जात्ता
पुण्यवंतांले लोकाक वत्ता
राबूनु थंय बहुतेक समय
श्रेष्ठ श्रीमंतातयं जात्ता उदय

४२ न्हय तरि धीमंत योगीकुलांतुं
येत्ता तो जीवु भूंयचेरि जल्मांतुं
ह्या जगांतु हें जन्मलाभ
मनुष्य मात्रांक हें दुर्लभ

४३ पूर्वजन्मांचो बुद्धिसंस्कारु
थंय ताका जात्ता ताजो साक्षात्कारु
ताज्या पेक्षां श्रेष्ठ सिद्धि
पांडूनंदना करता तो वृद्धि

४४ पूर्वजन्माच्या त्या संस्कारान
आपो आप वत्ता योगा दिशान
योग विज्ञासु तो अतिश्रेष्ठु
शाब्दिक ज्ञानियाकंय तो खरें ज्येष्ठु

४५ यत्नपूर्वक योगसाधन
केलेल्यान पाप विमोचन
जन्मु परिशुद्ध जन्मांतरान
अंत्यारि सद्गति पावता सिद्धीन

४६ तपस्वी पेक्षां योगि उत्तमु
ज्ञानी पेक्षां तो चोय ललामु
कर्मयोगीकय तो खरें ज्येष्ठु
अर्जुना जारे तूं योगि श्रेष्ठु

४७ अंतरात्मु करनु मेज्यांतुं लीन
करता कोणकि (श्रद्धेन) मेगेलि भजन
योगि तो सर्वश्रेष्ठु जगांतुं
अशें समझता हांव मनांतुं

# सत्तावो अध्यायु

( ज्ञान — विज्ञान योगु )

१ श्री भगवानु म्हणालो:-

मन मेज्यांतु लीन दवरनु
आनी मेगेलें आश्रय पावनु
पार्था केल्यारि तूंवे योगसाधन
माका समझशि कशि सांग्ता दी ध्यान

२ विज्ञान सहित हें दिव्यज्ञान
सांगतां संपूर्ण विवरसून
समझल्यारि तूंवें हें ज्ञान मनांतु
समझुच्याक उरशिना दुसरें जगांतु

३ सिद्धि पावच्याक दिवचो विवेकु
मेळत एक हजारांतु एकु
त्या सिद्धाल्यांत माका सत्य समझूचो
विरळ चोयरे एकूयि मेळचो

४ पृथ्वि, जल, बुद्धि, मन
वायु, अनल, अहंकारु, गगन
अशें आट विधाचि शक्ति
तीचि चोय मेगेलि प्रकृति

५ आयक पार्था ही अपरा प्रकृति
आस्स दुसरि एकि परा प्रकृति
ती प्रकृति चोय जीव भूत
तीचि ह्या जगाक आधारभूत

६ सर्व भूतांचें उत्पन्न
उभय प्रकृतींच्या कारणान
सर्व जगाच्या स्थिति लयाक
कारण हांवचि हें तूं आयक

७ ना चोय मेज्याकय श्रेष्ठु आनी एकु
आयक धनंजया हो विवेकु
मणियो गांतीले सारखे सुत्तारि
गांतलां हें सर्व जग मेज्येरि

८ कुंतिपुत्रा, उदकांत हांव रसु
सूर्यचंन्द्राल्यांत हांव तेजसु
ऊँकारु हांव सर्व वेदांतु
पुरुषांतु पौरुष शब्दु आकाशांतु

९ भूंयचेरि हांव उत्तम गंध
अग्नींतु हांव तेजु चन्द
सर्वप्राल्यांतु जीवु हांव
तपस्वींलें तप तेंवय हांव

१० सर्व जीवांलें सनातन बीज
तेजस्वींलें तें दिव्य तेज
बुधवंतांलि बुद्धि उत्तम
सर्व हांव पार्था समझ हें मर्म

११ काम हांव बलवंतांलें
रागरहित बल तांगेलें
अर्जुना आयक सर्वप्राण्यांतु
धर्मानुकूल काम हांव तांच्यांतु

१२ राजस, तामस, सात्विक भाव
जातातित मेज्यांतुं तें प्रादुर्भाव
आयक हांव ना तांच्यांतु
ते आस्सति निपूनु मेज्यांतुं

१३ त्रिगुणमय ह्या भावांनि मोहित
आस्स चोय हें सर्व जगत्य
देकूनु समझना त्रिगुणातीताक
माका लोकु नाशरहिताक

१४ दिव्य गुणमय मेगेलि मांया ही
दांटवुच्याक दुस्तर चोयि
कोणकि माका शरण येता
तोच रे ही माया दांटवता

१५ नाश जाल्यारि ज्ञान मायेन
आसुरीभावु तेन्ना उत्पन्न
धूर्त ते दुराचारि जातात
माका कारण ते येनांति

१६ चारि विधाचे पुण्यवंत
मेगेलि भजन करतात निरत
आर्त, विज्ञासु, अर्थाथि, ज्ञानि
चौगय सदाचारि हांनि

१७ नित्य समभावी एक निष्ठेचो
ज्ञानी अत्यंत श्रेष्ठु भजेचो
अत्यंत प्रीतिचो हांव ज्ञानीक
ज्ञानि माका अतिप्रियु आयक

१८ भक्त सर्व चोय हे उत्तम
जाल्यारीय ज्ञानि तो मेगेलो आत्म
मेज्या पेक्षां ना श्रेष्ठ गति दुसरि
अशें लेकूनु उरता तो मेच्याश्रयारि

१९ जन्म बहुतेक भोगतरि ज्ञानि
'सर्व वासुदेव' लेकता ज्ञानानि
केन्ना माका तो समझता
असलो महात्मु दुर्लभु पार्था

२० बहुविध कामनेन ज्ञानाचो नाशु
घाडिलो जाता आपण्याले प्रकृतीक विवशु
भिन्न भिन्न विधि नियमांनि
अन्य देवतेंक तो शरण अज्ञानि

२१ कोण खंच्या स्वरूपाचि भक्ति
श्रद्धेन करूंक दाकयता आसक्ति
ताका त्या रूपारि तागेलि भक्ति
दृढ करतां हांव आयक ही उक्ति

२२ तागेलि भक्तिस्वरूपाचि पूजन
केल्यारि ताणे ती श्रद्धेन
मेजे कडेच्यान नियमित जाल्लेलिं
कामित फलं तो पावता तागेलिं

२३ अल्पबुद्धींक हांकां मेळचें तें फल
नाशवंत राबना चिरकाल
देवतेंक भजतेल्यांक देव तो मेळताति
भक्त मेगेले मेजो साक्षात्कारु पावताति

२४ अविनाशि अनुपम मेगेलें स्वरूप
सत्य समझनातीलें अल्प
अव्यक्ताक माका व्यक्तु म्हणताति
तशें लेकूनु मोसांतु पडताति

२५ योगमायेचे आवरणान
दिसना हांव जगाक प्रकटरूपान
देकूनु मूढजन माका समझना
अजन्मु अव्ययु हांव हें तांका कळना

२६ माक्षि जालेल्या आता ओसुच्यां
मात्र न्हंय आनी मुकारि जावच्या
अर्जुना, सर्वभूतांक हांव जाण
जाल्यारीय माका कोणई नेण

२७ इच्छा द्वेषांनि सुख दुःख द्वन्द्व
तांच्यांनि जाता मोहु उद्भव
त्या मोहान पार्था, चोय भ्रांति भरित
जननारस्य सर्वय भूतं

२८ कर्मं पुण्यादायक करनु
पापं सर्व नाशु जावनु
द्वन्द्व मोहांतून मुक्त जाताति
दृढ वृत तें माका पूजन करताति

२९ मेगेले आश्रयारि जरा मरण
जिकवूंक करताति यत्न कोण
जाणताति चोय ते पूर्ण ब्रह्म
अखिल कर्मं आनी अध्यात्म

२० अधिभूत, अधिदैव
अधियज्ञ सहितु हांव
अशें लेकचे ते युक्तचेत
मरणकालारीय माका आठयतींत



# आठावो अध्यायु

( अक्षर ब्रह्मयोगु )

१ अर्जुनु म्हणालो:-

कृष्णा, सांग ब्रह्म कसलें
अध्यात्म आनी कर्म कसलें
अधिभूत म्हळ्यारि खंचें
अधिदैव खंच्याक सांगचें ?

२ अधियज्ञ ह्या देहांतुं
खंचें आनी कशि आसा तांतु?
मरण कालारि संयमि तुका
कशि आठयताति कृष्णा सांगुका माका!

३ श्री भगवानु म्हणालो:-

अविनाशि, अतिश्रेष्ठ तत्व तें ब्रह्म
ताजो सद्भावु तेंचि अध्यात्म
सर्वभूतांतु भावु तो उगम
करच्या व्यापाराक म्हणताति कर्म

४ नाश जावचो भावु तें अधिभूत
पुरुषु चोय तो अधिदैवत
आयक अर्जुना, ह्या देहांतुं
अधियज्ञ हांवचि चोय रे तांतुं

५ अंत्यकालारि मेगेले स्मरण
करनु कोणकि पावता मरण
मेगेलें स्वरूप तो पावतारे
हांतु कांयी संशयु ना रे

६ सतत स्मरण करचे भाव
अंयारि उरताचि तेचि भाव
मरणकालारि केल्यान स्मरण
जाता तो तांतूचि अवतरण

७ देकूनु केदनाई मेगेलें ध्यान
धरनु अर्जुना, करि तूं कदन
केल्यारि मन बुद्धि अर्पण माका
खचित येत मेगेलें स्वरूप तुका

८ अभ्यासान चित्त स्थिर तें केल्यारि
योगबलान एकाग्र जाल्यारि
धरल्यारि नित्य मेगेलें ध्यान
दिव्य परम पुरुषांतु लीन

९ सूक्ष्मतमु, सकलाधारु
अचिंत्यरूपु अंधकार बाहिरु
आदित्यवर्णि आनी सर्वज्ञु
शासनकर्तु, पुरातनु

१० वयरि सांगिल्यांक स्मरणेंतु हाणु
मरणकालारि स्थिरमनान प्राणु
भोवेमद्दें स्थित राबल्यारि
(दिव्य) परमपुरुषपद मेळता अंत्यारि

११ खंच्याक वेदज्ञ अक्षर म्हणताति
खंयंक रागरहितमुनि पावताति
म्हणतांति खंच्याक ब्रह्मचर्यपालन
करतां हांव त्या पदाचि वर्णन

१२ संयमान सर्व इन्द्रियद्वारं
धांपूनु मन हृदयांतु स्थिर
करुनु प्राणु मस्तकांतु व्होरनु
साधकान योगु साधन करनु

१३ एकाक्षर ब्रह्म ऊँकार रूप
ह्या समाधींतु करनु तें जप
माका आठोवनु देह कोणकि सोडता
परमश्रेष्ठ गति तो खरें जोडता

१४ अन्यभावना धरनातीलें मनांतु
उरता कोण नित्य मेगेले ध्यानांतु
नित्ययुक्त त्या योगीक
पार्था, हांव सुलभु आयक

१५ परमसिद्ध ते महात्म
जाल्ले उपरांतें मेज्यांतु एकात्म
दुःखालय अशाश्वत
पुनर्जन्माक तें येनात

१६ ब्रह्मलोकादि ते सकललोक
पावल्यारीय लभ्य पुनरपि भूलोक
जीवात्मु मेज्यांतु जाल्यारि एकात्म
ना ताका पार्था, पुनरपि जन्म

१७ दीसु ब्रह्मांक युगं हजार
रात्रि चोय ताका युगं सहस्र
जाणताति चोय रे हें प्रमाण
अहोरात्रि तत्व कोणकि जाण

१८ अव्यक्त अशीलें सर्व तें व्यक्त
जाताना ब्रह्मालो दीसु प्रकाशयुक्त
शुरू जाताना ब्रह्मालि राति
सर्व अव्यक्तांतु निपताति

१९ प्राणिसमुदायु तो परवश जावनु
पार्था बहुतेक जन्म ते घेवनु
राति जाताना विलय जात्ता
दीसु उदेताना जन्माक येत्ता

२० ह्या अव्यक्तांतून वेंगळें अव्यक्त
म्हणताति ताका सनातन अव्यक्त
सर्व प्राण्यो जाल्यारीय लय
जायना हें अव्यक्त तें व्यय

२१ अक्षर नावांचा अव्यक्त भावाक
परमगति म्हणताति आय्क
ती पावील्याक ना जनन मरण
तेंचि मेंगेलें धाम परम

२२ असल्या उत्तम पुरुषालें दर्शन
मेळत पार्था, अनन्य भक्तीन
सर्व भूतं ताज्यांतु गुप्त
सर्व चोय हें ताज्यान व्याप्त

२३ केदना योगीन देह सोळ्यारि
येना पुनरपि जन्माक भूंयचेरि
खंच्या कालरि सोळ्यारि येता
म्हळ्ळें अर्जुना, हांव तुका सांगतां

२४ अग्नि, ज्योति आनी दीसु
उत्तरायणाचो शुक्लपक्षु
ह्या कालारि मृत्यु पावचो योगि
तो जाता ब्रह्मपदाक भागि

२५ धूम, राति कृष्णपक्षु
दक्षिणायनाचो मासु
गत जाल्यारि ह्या कालरि चन्द्रलोकाक
वचूनु येता दुसरि योगि भूलोकाक

२६ जगांतु शाश्वत गतिचे मार्ग
शुक्ल, कृष्ण दोनि हेचि वर्ग
येनाति माक्षि शुक्लारि गेल्यारि
कृष्णारि गेल्यारि येताति दुसरि

२७ दोनिय हे मार्ग कोणकि जाणता
मोहवश जायना तो योगि पार्था
देकूनु अर्जुना, सर्वकालारि
योगयुक्त जावनु वचूका मुकारि

२८ योगि हें सर्व घेवनु समझून
वेद, यज्ञ, तप, दान
हांतु सांगीलें पुण्यफल दांटवून
पावता आद्य परमोच्चस्थान



# नवावो अध्यायु

( राज विद्या - राज्य गुह्य योगु )

१ श्री भगवानु म्हणालो:-
पार्था तूं आस्स मत्सररहित
गुह्य ज्ञान सांगतां विज्ञानसहित
समझल्यारि तें तूं विमोचन
जाशि सतत अशुभांतून

२ सर्व विद्येंतु हें ज्ञान ललाम
गुह्यांतु गुह्य अति उत्तम
प्रत्यक्ष अनुभवाक योग्य, पवित्र
आचरणेक सुलभ, धर्म्य सर्वत्र

३ कोणाक ना श्रद्धा ह्या धर्मांतु
पावनाति ते येवनु मेज्यांतु
वयरि वयरि ह्या मृत्युमय ससारांतु
येवनु अर्जुना, पडताति मोसांतु

४ आसूनूय मूर्ति अव्यक्त
केल्लें हें सर्व जग हांवे व्याप्त
सर्वभूतं आस्सति मेज्यांतु
तरि हांव ना चोय तांच्यांतु

५ सत्य तीं ना मेज्यांतु म्हणचेय
मेगेलो हो ईश्वरी योगु चोय
ना हांव जीव्यांतु केल्यारीय पोषण
आत्मु मेगेलो तांच्या सृष्टीक कारण

६ सर्वत्र भोंवचो तो महावायु
आस्स चोय नित्य आकाशमयु
तशें सर्वभूतं आस्सति मेज्यांतु
विषयु हो तूं समझ मनांतु

७ कल्पांत्यारि सर्व प्राणि समुदायु
जाता मेगेल्या प्रकृतींतु लयु
कल्पु शुरू जाताना दुसरि सर्वांक
सृष्टि करतां हांव पार्था तूं आय्क

८ नातीलें स्वातंत्र्य प्रकृतीचे अधीन
आसूचे भूतांक मेगेल्या प्रकृतीन
करता हांव तांगेल्या सर्व समुदायाक
पुनः पुनः उत्पन्न हें तुं आय्क

९ करनांति कर्म माका बंधन
कारण हांव तांच्यांतु उदासीन
ना माका तांच्यांतु कांय आसक्ति
कुंतिपुत्रा, तूं आय्क ही उक्ति

१० प्रकृति मेगेल्या अध्यक्षतेन
करता सचराचर तें उत्पन्न
अर्जुना, आय्क ह्यान्त्रि हेतून
जाता जगांतु परिवर्तन

११ प्रणिमात्रांचो महेश्वरु हांव
लेकनांति मेगेलो हो श्रेठभाव
मनुष्यशरीर घेतीले माका
अवमान करतांति मूर्ख हें तूं आयक्का

१२ तांगेलि आशा, तांगेलें ज्ञान
तांगेलि कर्मं निष्प्रयोजन
कारण तें मूढ आश्रयु करताति
मोहाचि राअसि असुरी प्रकृति

१३ दैवी प्रकृतीचे महात्म कोण
ते लेकताति ह्रांव जगाक मूलकारण
नाशु नातीलों ह्रांव अशें समझून
पार्था, करताति मेगेलि अनन्य भजन

१४ यत्नशील आनी दृढवृत
करताति कीर्तन मेगेलि निरत
भक्तीन करताति माका नमन
नित्य ध्यानान मेगेलि उपासन

१५ दुसरेय आय्क ज्ञानयज्ञान
करताति मेगेलि पूजन
एकत्वान न्हयवे पृथग्भावान
बहुविधान सर्वत्रालि मेगेलि उपासन

१६ कतूय ह्रांव यज्ञूय ह्रांव
स्वधा ह्रांव औषधय ह्रांव
मंत्रय ह्रांव तूपय ह्रांव
अग्नीय ह्रांव हवनय ह्रांव

१७ ह्या जगाक आवसु बापूसु ह्रांव
आजो, आधारु, ज्येयु ह्रांव
ऋक-साम-यजूर वेदूय ह्रांव
अतिपवित्तु ऊँकारूय ह्रांव

१८ गति, पोषकु, प्रभु, साक्षि हांव
शरणु, आश्रयु, हितेच्छु हांव
उत्पत्तिकर्तु, लयकर्तु हांव
भंडार अव्ययबीज हांव

१९ वोत तापोचो पावसु रोकोचो
आनी तो पावसु तडसूचो
अमरत्व, मृत्यु हें सर्वय हांव
सत् असत् पार्था, हेंवय हांव

२० त्रिवेदि निष्पापि, सोमु पिल्लेले
स्वर्गु दी म्हणु यज्ञान मागतले
पुण्यान मेळ्चा इन्द्रलोकाक वतीत
स्वर्गलोकाचे दिव्य भोग थंय भोगतीत

२१ व्याप्त स्वर्गांतु सुख भोगूनु
मर्त्यलोकाक परततातिं पुण्य सोरनु
त्रिवेदांकनुसार कर्म करताति
कांक्षेन जनन मरणांतु पडताति

२२ कोणकि करता अनन्य भावान
सतत मेगेलीच चिंतन, उपासन
सत्ययुक्तांलें तांगेलें योगक्षेमु
वहिसूनु घेतां चोय तें हांव

२३ अन्यदेवतेंचि उपासन
कोणकि करताति भक्तीश्रद्धेन
तेवय पार्था, तरि विधिहीन
करताति मेगेलेच पूजन

२४ सर्वयज्ञांचो भोक्तु स्वामी
हांव हें समझनांति अज्ञानि
चोयनातिलें माका सत्यरूपान
पडतांति ते पाय निसरून

२४ देवभक्त पावतांति देवांक
पितृपूजक पावतांति पित्रांक
भूतांक पावतांति भूतपूजक
मेगेल्यागि पावतांति मेगेले भजक

२६ दळ, फूल, फल, जल,
अर्पण केल्यारि (माका) भक्तीन निश्चल
भक्तीचे यत्नान केल्लें कारणान
स्वीकार करतां तें हांव प्रीतीन

२७ सर्व तूवें करचें खावचें
होमांतु घालचें दान दिवचें
आनी कस्वें सर्व तपत्स
अर्पण करि पार्था माका अवश्य

२८ सर्व कर्म अशें केल्यारि अर्पण
बरें वायट फल दिवचें कर्म बंधन
तुंटुन सन्यासयोग युक्तात्मु
जावनु तूं मेज्यांतु जशि एकात्मु

२९ समभावान आस्स हांव सर्वप्राण्यांतु
ना माका शत्रु ना कोणई प्रीतु
भक्तीन माका भजतले आस्सति मेज्यांतु
हांवय चोयरे आस्स तांच्यांतु

३० चालीन आसूनूय अतिदुराचारारि
एक मनान मेगेलि भक्ति केल्यारि
चूकि न्हय ताका साधु म्हळ्यारि
तागेल्या सत्संकल्पाच्या हेतूरि

३१ शीघ्र तो धर्मात्मु जाता
शाश्वत शांतीय पावता
नाशु ना चोय मेगेले भक्ताक
निश्चय पार्था, हें तूं आय्क

३२ पापयोनींतु जाल्लेले जीव
स्त्रीयो, वैश्य, शूद्र हीं सर्व
माका शरण आयल्यारि पावतीत
पार्था, परमगतीक खचित

३३ अशें आसताना ब्राह्मण भक्त
राजर्षीलो संशयुवे ते पुण्यवत
अनित्य असुख ह्या लोकांतु जन्मु घेवनु
आसूका तूंवे मेगेलीचि भजन ती करनु

३४ भक्तु जा मेगेलो मेज्येरि मन
दवरनु करि मेगेलें नमन पूजन
मेज्यांतु परायण जावनु तो आत्मु
मेळयिल्यान तूं पावशि मेज्यांतु येवनु



# धांचो अध्यायु

( विभूति योगु )

१ श्री भगवानु म्हणालो:-

सांगतां आनीकय परम वचन
कुतीपुत्रा, दी तूं कान
तुगेले हिताचे खातीर प्रीतीन
सांगतां तुका हांव हें सर्वज्ञान

२ महामुनिवर्य आनी देव
नेणति चोय ते मेगेले उद्‌भव
देवांक महर्ष्यांकि सर्वप्रकारान
हांवचि जावनास्स आदिकारण

३ जन्मु नातीलो आदि नातीलो
महेश्वरु हांव म्हणु समझतलो
ज्ञान संपन्नु तो ह्या जगांतु
जाता सर्व पापांतून मुक्तु

४ बुद्धि, ज्ञान, निर्मोहत्व
क्षमा, सत्य निर्भयत्व
इन्द्रियानिग्रह, शांति, सुख
जन्म, मृत्यु, भय दुःख

५ समता, अहिंसा, तुष्टि, कीर्ति
तप, दान आनी अपकीर्ति
प्राण्यांतु उबजूचे हे भिन्नभाव
जातातित मेज्यांतूनचि उद्‌भव

६ पूर्वचि सप्तर्षि मनु चारि जन
जाल्ले उत्पन्न मेगेले मनान
लोक सर्व आनी जनं
केल्लें पूरा तांनि रचन

७ मेगेलि ही विभूति आनी शक्ति
कोणकि यथार्थ समझताति
तो आसता अविचलित योगान युक्तु
आय्क ना कांई संशयु हांतु

८ सर्व उत्पत्तीक कारण हांव
मेगेले मितीचि हें प्रवर्त सर्व
हें समझूनु ज्ञानि श्रद्धेन
करताति मेगेलि उपासन

९ प्राणु, मनय मेज्येरि दवरनु
परस्पर बोधन दीवनु
नित्य मेगेलि करताति कीर्तन
उरताति संतुष्ट आनदान

१० अशें मेज्यांतु तन्मय जाल्यारि
प्रीतीन मेगेलि भजन केल्यारि
बुद्धियोगु तांकां हांव दितां
ताजेन मेजेलागि ते येताति पार्था

११ तांगेले वयरि हांव दयेन
तांच्या हृदयांतल्या आत्मांतासून
अतिप्रकाशाच्या ज्ञानदिव्यान
अज्ञान तम तांगेलें नाश करीन

१२ अर्जुनु म्हणालो:-

परमपवित्रु, परब्रह्म
दिव्यु शाश्वतु, परंधामु
आदिदेवु आनी अजन्मु
विभू तूंचि आनी पुरुषोत्तमु

१३ आपयताति अशें तुका सर्व ऋषीय
आनी देवर्षि नारदु तोवय
असितु, देवलु वेदव्यासूय
सांगता तेंचि रे माका तूंवय

१४ कृष्णा, तूंवे सांगीलें सर्व
सत्य म्हणु समझतां हांव
नेण चोय ते देव, दानव
भगवंता, तुगेलें आविर्भाव

१५ जीवकर्ता, जीवेश्वरा
देवदेवा, जगदीश्वरा
पुरुषोत्तमा चोय तूं जाण
तुगेलें स्वरूप तुगेल्याच आत्मान

१६ खंच्या विभूतीच्या कारणान
तूं आस्स ह्या लोकांत व्यापून
त्या दिव्य विभूतींचि वर्णन
सांगूका माका विवरसून

१७ योगिराया! नित्यध्यानान
तुका हांव कशि समझन?
भगवन्! खंचे खंच्या भावान
करका हांवें तुगेलें चिंतन?

१८ विस्तारान दुसरि सांग
कृष्णा, तुगेले विभूति, योग
अमृतवचनं तीं आयकूनूय
जायना माका तृप्ति चोय

१९ श्री भगवानु म्हणालो:-
मेगेल्यो मुख्य आशील्यो विभूत्यो पार्था
वेंचूनु तुका त्यो हांव सांगतां
सांगू गेल्यारि विस्तारान
सरच्यो नांति चोय त्यो सांगून

२० सर्व प्राण्यांक आश्रयु हांव
तांगेले हृद्यांतूलो आत्मुय हांव
सर्वप्राण्यांक आदि हांव
मध्य हांव, अंत्यय हांव

२१ आदित्यांतु विष्णु हांव
सर्वज्योतींतु सूर्यु हांव
मरुतां मध्यें मरीचि हांव
नक्षत्रांतु चन्द्रु हांव

२२ वेदांतु सामवेदु हांव
देवसमूहांतु इन्द्रु हांव
इन्द्रियांतु मन हांव
प्राण्यां भितरि चेतन हांव

२३ रुद्राल्यांतु हांव शंकरु
यक्षराक्षसांतु कुबेरु
वसूं मध्यें पावकु हांव
पर्वत शिबिरांतु मेरु हांव

२४ पुरोहितमुख्यांतु बृहस्पति हांव
सेनापति श्रेष्ठांतु स्कन्दु हांव
आनी पार्था, सरोवरांतु
समुद्रु चोय हांव तांतु

२५ महाऋषींतु भृगुऋषि हांव
शब्दांतु आयक ऊँकारु हांव
सर्व यज्ञांतु जपयज्ञु हांव
स्थावरांतु हिमालयु हांव

२६ वृक्षसमूहांतु हांव अश्वत्थु
गंधर्वांतु हांव चित्ररथु
नारदु हांव देवर्षींतु
कपिलमुनि तो हांव सिद्धांतु

२७ अमृता जवळायीलो उच्चैश्रव
अश्वसमूहांतु तो चोय हांव
हस्तीं मध्यें ऐरावतु
रायु हांव मनुष्यांतु

२८ आयुधांतु वज्र हांव
गोत्रांतु कामधेनु हांव
प्रजोत्पत्तींतु मदनु हांव
सर्पाल्यांतु वासुकि हांव

२९ हांव अनंतु नागकुलांतु
वरुणु उदकांतु चरच्या प्राण्यांतु
पित्रां मध्यें हांव आर्यमु
शासकांतु हांव यमु

३० हांव प्रह्लादु दैत्याल्यांतु
कालु गणन करतल्यांतुं
सिंहु हांव मृगजातींतुं
गरुडु हांव पक्षीगणांतुं

३१ वगवस्तूंतुं वायु हांव
शस्त्रधारींतुं रामु हांव
झळक्यां मद्दें सिसडि हांव
नदिसमूहांतुं गंगा हांव

३२ सर्वसृष्टीक आदि हांव
मध्य, अंत्यय अर्जुना हांव
विद्येंतुं अध्यात्म विद्या हांव
वाद करतल्यांतुं वादु हांव

३३ अक्षरांतुं 'अकारु' हांव
समासांतुं 'द्वन्द्वु' हांव
अक्षयकालु तोवय हांव
सर्वतोमुख आधारु हांव

३४ सर्वसंहारि मृत्यु हांव
मुकावेल्या उत्पत्तीक कारणय हांव
स्त्रीयाल्यांतुं हांव लक्ष्मी, धृति
कीर्ति, वाणि, बुद्धि, क्षमा, स्मृति

३५ सामांतु बृहत्सामु हांव
छुन्दस्सांतुं गायत्री हांव
मासांतुं मार्गशीर्षु हांव
सर्व ऋतूंतुं वसंतु हांव

३६ वंचकांल्यांतु द्यूत हांव
तेजस्वीयांले तेज हांव
जय हांव, व्यावसायु हांव
सात्वीकांलो सत्वगुणूय हांव

३७ यादवांतु हांव वासुदेवु
पांडवांतु मध्य पांडवु
मुनींतु वेदव्यासु हांव
कवींतु शुक्राचार्यु हांव

३८ शासकांलो दंडु हांव
जयाभिलाशींलि नीति हांव
गुह्य विषयांतु हांव मौन
ज्ञानवंतांले हांव ज्ञान

३९ सर्वप्राण्यांल्या उत्पत्तीक
खंचेंकि कारण तें बीज आय्क
तेंवय हांवच्च अर्जुना,
स्थावर - जंगम माका विरहित जायना

४० मेगेल्या दिव्य विभूतींक
ना तांकां अंत्य पार्था आय्क
विभूतींचो हो विस्तार
सांगलो तुका दृष्टांता खातीर

४१ शोभायुक्त वैभवयुक्त
आनी चोय प्रभावयुक्त
तें सर्व मेगेले तेजाचे अंशान
जाल्लां हें तूंवे घेवका समझून

४२ जाल्यारि अर्जुना, हें विस्तारान
समझून तुका इतें प्रयोजन?
मेगेले एक अंशान सर्व जगत्य
भरनु आस्स तूं समझ हें सत्य



# इकरावो अध्यायु

( विश्वरूप दर्शन योगु )

१ अर्जुनु म्हणालो:-

मेज्येरि पूर्ण कृपा दवरनु
परम गुह्य श्रेष्ठ अध्यात्म सांगूनु
केल्लो तूंवे मोहु तो दूर
आयकूनु जाल्लो चोय तो परिहार

२ प्राण्यांलो उत्पत्तीं नाशांचो विवरु
आयकलो तुजे कडेच्यान ताजो विस्तारु
त्याच रीति कृष्णा तूंवे सांगलें
नाशु नातीलें तुगेलें माहात्म्य सगळें

३ तूंवे तुगेलें विषय सांगील्या उतरांनि
परमेश्वरा, माका लागल्या ती तनि
तुगेलें तें ईश्वरीरूप चोवचि
त्या दिव्य रूपाचें दर्शन घेंवचि

४ तरि तें पळोच्याक हांव समर्थु
दी तें दर्शन आनी करि कृतार्थु
योगेश्वरा, दाकय अव्ययरूप
पळोनु काडतां हांव दोळ्यांचें पाप

५ श्री भगवान् म्हणालो:-

शंभरि वाट्यानि हजार वांट्यानि
नाना विधानि, नाना वर्णींनि
नाना आकृतींनि युक्त आसूचें दिव्य
पार्था, चोय मेगेलें रूप तें भव्य

६ चोय अर्जुना, आदित्याक, वसूक
रुद्राक, अश्विनीक आनी मरुताक
हाज्या फूडे पळयनातीलिं आश्चर्यं अनंत
मेगेलें ह्या रूपांतुं तूं चोय आत्तं

७ सर्व जगत्य सचराचर
आनी खंचेंकि तूं चोवचाक आतुर
मेगेलें देहांतुं सर्व एकत्र दिसता
दौनीय दोळ्यांनि तूं चोय पार्था

८ जायना चोय तुगेले चर्मचक्षूंक
मेगेलें हें भव्यरूप चोवूंक
भव्य दृष्टि दित्तां हांव तुका
ताज्येन हो ईश्वरीयोगु चोवका

९ संजयु म्हणालोः-
अशें सांगूनु राया, कृष्णान
त्या वर महायोगेश्वरान
उत्तम ईश्वरीरूप आपण्यालें
आयक् अर्जुनाक ताणे दाकयलें

१० तोंडं अनेक, दोळे अनेक
अद्भुत दृश्यं त्या रूपांत अनेक
दिव्याभरणं आयक् अनेक
उकोळ्नु धरलेलि दिव्यास्त्रं अनेक

११ दिव्य माळो आनी वस्त्रांचें धारण
आंगाक उत्तम गंधलेपन
सर्व आश्चर्यांनि युक्तरूप
अनंत, सर्वतोमुख विश्वरूप

१२ हजार सूर्यांलि प्रभा मळबारि
एक वेळारीचि दिसल्यारि
कशि की दिसता त्याचि रीतिरि
दिसली विश्वरूपाचि कांति इद्रारि

१३ देवदेवाल्या त्या शरीरांतुं
बहुविध बिभागाचें ब्रह्मांड तांतुं
एकत्र जावनसूचें दोळ्यांक दिसता
कुंतीलो प्रियपुत्रु अर्जुनु चोयता

१४ चोवनु तें रूप आश्चर्यान
जाता अर्जुनाक रोमांचन
मात्तें बागशीता हात जोडशीता
आनी कृष्णालागी तो आशी सांगता

१५ अर्जुनु म्हणालोः-
देवा दिसतातित तुगेल्या देहांतुं
सर्व देव आनी प्राण्यो तांतुं
कमलासनु ब्रह्मु दिसता
सर्व सर्प आनी ऋषिगणय दिसता

१६ हात अनेक, पोट अनेक
दोळे अनेक, रूप अनेक
आदि, मध्य, अंत्य देक्केना हांतुं
विश्वेश्वरा ह्या अनंतरूपांतुं

१७ गदा, चक्र, मुकुट धारण
चारीय दिशान तेजोराशि किरणं
अग्नि, सूर्यां सारखें प्रकाशु
पळोचा जायनातिलो तसलो विशेषु

८ समझूच्याक योग्य आसचो परमाक्षर तूं
शाश्वत धर्माचो संरक्षकु तूं
तूंचि विश्वाचो अंतिम आधारु
तूं सनातन पुरुषु मेगेलो विचारु

९ आदि, मध्य, अंत्य नातोलो
बल, हात, अनंत आशीलो
दोळे शशि सूर्य, तोंड उज्याचें
स्वतेजान जग तापयतल्याक हांवे चोवचें

० भूंय आकाशा मध्यें तूं व्याप्त
सर्व दिशानय तूं आस्स व्याप्त
उद्भुत उग्ररूप हें चोवनु
आस्सति तीनि लोकय भीवनु

१ सर्वदेव चोय तुज्यांतुं मेळताति
थोडे भय भीतीन हात जोड़ताति
सिद्ध, महर्षि तुगेलि स्तुति करताति
तोंडान म्हणु "स्वस्ति-स्वस्ति"

२ रुद्र, आदित्य, वसु, साध्य, विश्व
मरुत, अश्विनि, ऊष्मप, गन्धर्व
यक्ष, असुर, सिद्धसमुदाय
चोवनु तुका पावता विस्मय

३ तोंडां, दोळे, पाय, हात
जांगो, पोटां, दाडे अनंत
अद्भुत रूप हें चोवनु सर्व
व्याकुल जाताति तांकां सोणु ना हांव

२४ बहुवर्णांचें आकाशाक लागचें
झगझगेचें सोळ्ळेले तोंडाचें
तेजस्वी दोळ्यांचें रूप तें तुगेलें
चोवनु विष्णु, चुकलें धैर्य मेगेलें

२५ प्रळयकालाचे अग्नीक समान
विकराळ दाड्यांचें तुगेलें तोंड चोव्न
दिसनांति दिशो माका शांति ते शून्य
देवेशा राक माका जावनु प्रसन्न

२६ धृतराष्ट्राले चोय ते सर्वंय पूत
सर्वराजसमुदायु समेत
भीष्मु, कर्णु, द्रोणाचार्यं
आनी आमगेले मुख्य योधवर्यं

२७ विकराळ दाड्यांच्या तुगेले तोंडांतु
रभसारि हे वीर रिगताति तांतु
थोडे शिरकूनु दांता एड्यांतु
मात्तीं चूर्ण जावनु दिसतातिरे तांतु

२८ न्हंयो प्रवाह समुद्रा दिशान
होळचे सारखें नखीर जनं
सर्वंय तुगेलें जळचे तोंडांतु
करताति प्रवेशु चोयतां तांतु

२९ येवनु उबूनु जळच्या उज्यांतु
पणु नाश जाताति पतंगा तांतु
त्याचि प्रमाणे हे सर्व जन
जात्ता नाश तुगेले तोंडांत रिगून

३० जळच्या तोंडांनि विष्णु तूं गिळतां
सर्वलोक गीळनु तें लेंवता
उग्र जावनासूचे तुगेले तेजान
झगझगेनु तापता सर्व जग ताजेन

३१ उग्ररूपा, सांग तूं कोण?
तुगेलि ही प्रवृत्ति हांव नेण
करतां तुका हांब नमन
आदिपुरूषा, जा तूं प्रसन्न

३२ श्री भगवान् म्हणालो:-
करूंक हो सर्व लोकु नाशु
वाडीलों हांवच कालपुरुषु
लोकनाशाक आतां जाल्लां तयार
मारनातल्यार तूंवे उरनाति हे वीर

३३ सव्यसाचि तूं राब उटानु
जमयी राज्य, कीर्ति शत्रूंक जिकवूनु
केल्यांति हांकां हांवे फूडेंच संहार
निमित्ताक मात्र तूं करि समर

३४ मारल्याति हांवें द्रोणांक, भीष्मांक
कर्णु, जयद्रथु आनी अन्यवीरांक
मारि तूं आतां करनाका व्यथा
करि युद्ध तूं शत्रूंक जिक्वतां

३५ संजयु म्हणालो:-
आयकूनु भगवंतालि हीं वचनं
करता अर्जुनु कृष्णाक नमन
भीवनु, खळसे काणु नम्र भावान
पुनरपि सांगता अशि हात जोडसून

३६ अर्जुनु म्हणालोः-

देवा तुगेले गुणांचि कीर्तन
करनु सर्व जग जाल्लां प्रसन्न
राक्षस भीवनु हांगा थंय धांवतति
सिद्ध सर्व नमस्कारु करताति

३७ नमन करनातीलें कारीं राबतीत
महात्मु, देवेशु आस्स तूं अनंत
जगन्निवासु, ब्रह्मांक आदि तूंचि
सत्, तसत् आनी अक्षर तूंचि

३८ आदिदेवु तूं जगत्पालकु
पुराण पुरुषु, विश्वव्यापकु
कळचो, कळ्ळलो परंधामु तूंचि
तुगेलि लीला ती बहुरूपाचि

३९ वायु, अग्नि, यमु, वरुणु तूंचि
चन्द्रु, ब्रह्मु, पितामहु तूंचि
तुका मेजे नमस्कार हजार
मागीरीय मागीरीय नमस्कार

४० माक्षि, मुकारीय नमस्कार
सर्वदिशानीय नमस्कार
अनंतवीर्यु तूं असामान्य वीरु
सर्वूय तूं आसूनु सर्वांकांधारु

४१ तुगेलि महिमा ही समझनातीलें
'मित्रु यादवु' म्हणु आपयलें
प्रीतीन प्रमादान मित्रु समझूनु
आपयलें तुका हांवे 'कृष्णा' म्हणु

४२ बसताना निदेताना खेळताना जेवताना
एकल्यान आसताना अन्यांनि आसताना
अपमानु तुका केल्ललो आसल्यारि हांवें
अप्रमेया क्षमा करका तूंवें

४३ सचराचर लोकाक बापूसु तूंचि
सर्वपूज्य श्रेष्ठ गुरूवर्यु तूंचि
तीन्नीय लोकांतूय तूं अप्रतिमु
अन्यु कोणई ना तुका समु

४४ भक्तीन बागसूनु करतां नमन
दीवका चूकींक क्षमादान
कशिकी क्षमा दिता बापूसु पुताक
इष्टु मित्राक, बांमूणु बायलेक

४५ एदोळु चोयनातीलें हें तुगेलें रूप
चोवनु जाल्ला हर्ष आनी विलाप
फुळ्ळे रूपान दी दरुशन
देवदेवा जा तूं प्रसन्न

४६ चारि हातांतु चक्रगदादिक
दिव्य किरीटि तें मात्याक
विश्वमूर्ते ह्या चतुर्भुज रूपान
सहस्रबाहू दी दरुशन

४७ श्री भगवानु म्हणालो:-
आयक पार्था तूं एकलो शिवाय
चोयनींति हें रूप दुसरे कोणय
दाकयलें तुका हांवे आत्मयोगान
श्रेष्ठ विश्वरूप भरिलें तेजान

४८ यज्ञान, दानान आनी कर्मान
वेदाध्ययनान आनी तपान
तूं शिवाय नरलोकांत दुसरे कोणय
हें रूप चोवचाक फाव नांति चोय

४९ घोर रूप हें चोवनु भीवनाका
मनांतु भ्रमेक स्थान दीवनाका
भय सोणु संतोषारि
पूर्वरूप चोय रे दुसरि

५० संजयु म्हणालोः-
कृष्णान अर्जुनाक आशीं सांगलें
सांगूनु फुळ्ळें रूप घेतलें
शांत सौम्य त्या रूपान
केल्लो पार्थाक समाधान

५१ अर्जुनु म्हणालोः-
तुगेलें हें सौम्य नररूप चोवनु
कृष्णा, मन मेगेलें तें शांत जावनु
आगांतु भरलें नवचेतन
फुळ्या प्रकृतीक आयलें मन

५२ श्री भगवान् म्हणालोः-
चोवचाक खंचेंकि अत्यंत कठिन
जाल्लें तुका त्या त्या मेगेलें रूपाचें दर्शन
चोयलोवे अर्जुना तें दिव्य रूप
देवांक चोवचाकय तें अपरूप

५३ वेदपठनान, तपश्चर्यान
खंचेकि दुर्लभ दान, यज्ञान
चोवचाक मेळनातीलें तें दिव्यरूप
चोयलो पार्थां मेगेलें विश्वरूप

५४ ह्या विधाचे माका चोवयेत तत्वान
समझूयेत माका अनन्य भक्तीन
त्या रीतीचि भक्ति दृढ केल्यारि
मेळ्येत अर्जुना मेज्यांत मुकारि

५५ कर्मां माका करनु अर्पण
जावनु मेज्यांतु परायण
प्राण्यांचेर हगे नातीलो आसक्तिरहितु
येवनु पावत मेज्यांतु तो मेगेलो भक्तु



# बारावो अध्यायु

( भक्ति योगु )

१ अर्जुनु म्हणालो:-

करताति थोडे नित्ययोगान
कृष्णा, तुगेलि उपासन
अव्यक्त, अविनाशि आत्माचि आराधन
करताति थोडे श्रेष्ठु कोण ?

२ श्री भगवान् म्हणालो:-

मन मेज्यांतु लीन दवरनु
नित्य योग युक्तु जावनु
श्रद्धेन कोण मेगेलि उपासन
करताति ते श्रेष्ठ योगी हांव म्हणन

३ अचिन्त्य, अवर्णनीय, अव्यक्त
सर्वोपरिस्थित, सर्वत्र व्याप्त
अचल, अविनाशि स्वरूप कोण
करता चोय् तें उपासन

४ सर्वभूतांचें हितसाधन
करनु इन्द्रियां दवरनु अधीन
सर्वत्र समबुद्धीन उपासन
करताति ते सर्व मेज्यांतु लीन

५ कोणाले मन अव्यक्तांतु मग्न
कष्ट चड तांकां आयासान
देहधारींक चोय तें अव्यक्त
भारी कष्टान जावचें प्राप्त

६ जावनु मेज्यांतु परायण
कर्म सर्व करनु माका अर्पण
करता सतत मेगेलें ध्यान
अनन्य योगान उपासन

७ मन मेज्यांतु दवरनु लीन
कोण करता मेगेलें ध्यान
तांकां पार्था करता हांव पार
मृत्युमय संसार सागर

८ मन दवरि तूं मेजेरि
बुद्धि मेज्यांतु ती स्थिर करि
अशीं केल्यारि मेळशि मेज्यांतु
कांई ना चोय् संशयु हांतु

९ मन दवरूंक मेजेरि
तुका तें असाध्य जाल्यारि
अर्जुना, तूं अभ्यास योगान
पावचि माका करि साधन

१० अभ्यासयोगूय साध्य नातल्यारि
मेगेले खातिर कर्म तूं करि
कर्म मेगेले खातिर केल्लेल्यान
पावन हांव तुका त्या सिद्धीन

११ हेंवय करच्याक जायनातल्यारि
आत्मसंयम तूं साध्य करि
अशें आश्रय करनु मेगेलो योगु
करि सर्व कर्म फलांचो त्यागु

१२ अभ्यासयोगाकय होडु ज्ञानयोगु
ज्ञानयोगाकय होडु ध्यानयोगु
ध्यानयोगा पेक्षां कर्मफल त्यागु
होडु, ताजेन जाता शांतिसंयोगु

१३ प्राणिमात्रांक द्वेषरहितु
सर्वांक मित्तु, दयावंतु
निरहंकारि, ममतारहितु
सुखदुःख सम लेकचो क्षमाभरितु

१४ आत्मसंयमि, सदा संतुष्टु
योगयुक्तु आनी दृढ निष्ठु
चित्त आनी बुद्धि माका अर्पण करचो
तो मेगेलो भक्तु माका प्रीतीचो

१५ लोकांतुं उद्विग्नता आस्स करचो
लोकान उद्विग्न जायनाशि उरचो
हर्ष, क्रोधु, भय आनी उद्वेगु
हांतून कोण मुक्तु ताजेरि माका मोगु

१६ कोणकि पवित्तु इच्छारहितु
दक्षु तटस्थु, चिंतरहितु
संकल्पमात्र त्याग केल्ललो
तो माका भक्तु प्रीतीचो मेगेलो

१७ हर्षु नातीलें द्वेषु नातीलें
शोकु नातीलें कांक्षा नातीलें
शुभाशुभ त्यागु केल्ललो
भक्तपरायणु तो मोगाचो मेगेलो

१८ शत्रुमित्रांतुं मानापमानांतुं
शींय उष्णांतु सुखदुःखांतुं
कोणकि चोय तो समतावंतु
सर्वभोगांतुं आसक्तीरहितु

१९ निन्दास्तुतींक एक रीतीन चलचो
मेळेल्यांतु संतुष्टु मौन तें धरचो
आपण्याले म्हळ्ळें स्थान नातीलो
स्थिर बुद्धीचो मनुष्यु प्रियभक्तु मेगेलो

२० अमृतरूपाचें हें धर्मज्ञान
श्रद्धेन करनु तें सेवन
अतिश्रेष्ठु म्हणु माका गौरवदिवचो
तो माका भक्तु अत्यंत प्रीतीचो



# तेरावो अध्यायु

( क्षेत्र, क्षेत्रज्ञ, विभाग योगु )

१ अर्जुनु म्हणालोः-
प्रकृति, पुरुषु कोण कसलें?
क्षेत्र, क्षेत्रज्ञ म्हळ्यारि कसलें?
ज्ञान साधन आनी ज्ञेय वस्तु
सांग केशवा, हांचो गूढार्थु

२ श्री भगवान् म्हणालोः-
ह्या शरीराक म्हणतातिं क्षेत्र
आय्क अर्जुना हेंचि तें क्षेत्र
कोणकि जाणता ह्या क्षेत्राचें ज्ञान
जाण ते ताका म्हणतातिं क्षेत्रज्ञ

३ सर्व क्षेत्रांतु आसूचे माका
क्षेत्रज्ञु अशें तूंवे समझूका
क्षेत्र–क्षेत्रज्ञ भेदाचें ज्ञान
सांगतां हांव तें सत्यज्ञान

४ क्षेत्र हें खंचे? आनी तें कसलें?
विकार कसले? खंयसून आयले?
कोण क्षेत्रज्ञु, शक्ति इतें ताका?
सांगता संक्षिप्त तूंवे आयकूका

५ निरनिराळ्या रीतीरि हें ज्ञान
निरनिराळ्या छन्दसान
ब्रह्मसूचक वाक्य बान्दून
ऋषींनि केल्या हाजी वर्णन

६ बुद्धि, अहंकारु आनी महाभूतं
सूक्ष्म इन्द्रियं आनी अव्यक्त
हांचे जवळ विषय ते पांच
मनय मेळो ताका एवंच

७ इच्छा, द्वेषु, सुखदु:ख
आनी समूहाचे संपूत
शकत्यो धारण आनी चेतन
सविकार क्षेत्राचि हेंचि वर्णन

८ डंभ, अभिमानु नातीलें आसूचें
क्षमा, अहिंसा, गुरुसेवा करचें
सरळता शुद्धता आनी स्थिरता
आत्मसंयम खंयकि उरता

९ विरक्ति इन्द्रिय विषयांतु करचें
अहंकारु नातीलें आसूचें
व्याधि, वार्धक्य, जनन, मरण
दु:ख हांतु दोष लेकून

१० बाय्ल चेरडांलो मोहु त्यजून
अनासक्ति करनु धारण
प्रिय, अप्रिय हांतु सतत
कोणकि समभावु दवरीत

११ मेज्येरि अनन्य भावाचि भक्ति
ध्यान पूर्वक अति दृढ भक्ति
एकांत क्षेत्रारि आसचि आसक्ति
जनसमूहांत येवचाक अनासक्ति

१२ नित्य अध्यात्म ज्ञानाचो विचारु
तत्वज्ञानाचो सुविचारु
हाका सर्वाक म्हणतातित ज्ञान
हाका विपरीत सर्व अज्ञान

१३ खंचेकि जाणून जीवु मोक्षु पावता
तेंचि ज्ञेय तुका हांव सांगतां
तेंचि अनादि परब्रह्म
'सत्' या 'असत्' न्हय तें ब्रह्म

१४ ताजें तोंड आनी हात पाय
दोळे, कान सर्वमय
खंय चोयलें थंय दिसता
सर्व ब्रह्मांड तें भरता

१५ तांतु इन्द्रियांचो गुण आभासु
आसूनूय ना पळे इन्द्रियांचो पासु
आसक्तीरहितासून करता धारण
निर्गुण तरि तें भोगता गुण

१६ सर्वप्राण्यांतु अन्तर्बाहिर
आस्स तें चोय् स्थिरच्चर
सूक्ष्म आसूनु अविज्ञेय
लागि आसूनूय दिसता दूर

१७ सर्व भूतांतु दिसता विभक्त
जाल्यारीय आस्स तें अविभक्त
नाशक पोषक सर्वप्राण्यांक
तेंचि कारण तांच्या जन्मांक

१८ सर्व ज्योत्यांक होडि ही ज्योति
अन्धकाराकय होडि हाजि ख्याति
तेंचि ज्ञान, योग्य समझूंक
ज्ञानगम्य, हृदयभरित

१९ सांगलें हांवे आतां संग्रह करनु
क्षेत्र, ज्ञान ज्ञेयांचि वर्णन
भक्तु मेगेलो हें समझून
पावत मेजो भावु योग्यतेन

२० प्रकृति, पुरुषु दोनीय अनादि
ह्या समझूतीक मन तूं दी
समझूका तूंवे दुसरेक ज्ञान
बिकार गुण प्रकृतींत उत्पन्न

२१ कार्य कारण कशि जातातिं
हेतु हांकां दोनीकय प्रकृति
सुख दुःख भोगाक हेतु
पुरुषु हांकां कारणकर्तु

२२ प्रकृतींतासून पुरुषु निरत
प्रकृतीचे गुण भोगता सतत
उत्तम अधम योनींत जनन
तांका हो गुण संगु कारण

२३ लागी आसूनु पळयतलो
चैतन्यात्मकु अनुमति दितलो
देहांतासूचो तो श्रेष्ठ पुरुषु
परमात्मु परमेशु

गुणयुक्त त्या प्रकृतीक
आनी जवळ पुरुषाक
आशीलें तशें कोणकि समझता
पुनर्जन्मांतून तो मुक्त जात्ता

२५ आत्मु समझताति ध्यानमार्गान
थोडें समझताति ज्ञान मार्गान
आनी थोडे समझताति आत्मु
कर्मयोग साधन करनु

२६ मार्ग हे तीनि कोणकि नेण
इतर कडेच्यान घेतात समझून
आयकूनु श्रद्धेन करनु उपासन
तेवय मुक्त मरणांतून

२७ उब्जता वस्तु स्थावरान
स्थावरान न्हय तरि जंगमान
क्षेत्र, क्षेत्रज्ञ संयोगान
जात्ता अर्जुना, दी हे कडेन ध्यान

२८ नाशवंत सर्वप्राण्यांत
नाश नातीले परमेश्वराक
समभावान कोणकि चोयता
तोचि सत्यज्ञान पावता

२९ सर्वत्र समभावृ कोणकि धरता
आनी त्या दृष्टीन ईश्वराक चोयता
केदनाई करना तो आत्मघात
परमगति चोय तो खरें पावत

३० सर्व कर्म सर्व प्रकारान
करता प्रकृति हें समझून
आत्मु अकर्तु कोणकि समझता
तोचि सत्यप्रकाशु चोयता

३१ निरनिराळि सर्व भूत
आसूनूय चोय तीं एकत्र
तांतून धडता सर्व विस्तार
लेकतलो पावता ब्रह्म साकार

३२ अनादि, निर्गुणु हो परमात्मु
देकूनु पार्था तो अविनाशि घनु
करना कसलेंय शरीरांतासूनु
सर्व विषयांत निर्लिप्त उरनु

३२ सर्वव्यापि आकाशु सूक्ष्मु
आसूनु केदनाई कल्मशहीनु
त्या प्रमाणे देहांतु आत्मु
निर्लिप्तु आसूनु तो दोषहीनु

३४ ज्या प्रमाणे एकु दिनेशु
दित्ता सर्व जगत्याक प्रकाशु
त्या प्रमाणे आयक पार्था
क्षेत्रज्ञु क्षेत्रांतु प्रकाशु भरता

३५ क्षेत्र-क्षेत्रज्ञ भेदु समझूका
ज्ञानदृष्टीन तें सर्व चोवका
प्राण्यांक कशि मुक्ति मेळता
समझलो तरि परब्रह्म पावता

# चौदावो अध्यायु

( गुणत्रय विभाग योगु )

१ श्री भगवान् म्हणालोः-
सर्वज्ञानांत उत्तम ज्ञान
पावनु सदगतीक गेल्ले मुनिजन
तेंचि परम श्रेष्ठ ज्ञान
सांगतां हांव तुका दी तूं कान

२ ह्या ज्ञाना आश्रय कोणकि करता
आनी मेगेलो भावु पावता
ना ताका सृष्टिकालांत जनन
प्रळयकालारि करना रोधन

३ योनि माका बृहद्ब्रह्म
त्याचि प्रकृतींतु गर्भस्थापन
करतां हांव अर्जुना आयक
तातून उब्जतातित प्राणि असंख्य

४ सर्वयोनींतून उब्जूचे प्राण्यांक
उगम स्थान महत्ब्रह्म आय्क
तातु सतत बीजारोपण
करचो बापूसु अर्जुना, हांव

५ सत्व रज आनी तम
प्रकृतींतु उत्पन्न हे तीनि गुण
अविनाशि देहीक देहांत बांदून
गुणत्रय ते घडयतातित बंधन

६ सत्वगुणु चोय अतिनिर्मलु
रोगरहितु प्रकाशमूलु
पार्था, तो ताज्या निर्मलतेन
बांदिता आत्माक सुख आनी ज्ञानान

७ रजोगुणु रागात्मकु
तृष्णासक्ति प्रदायकु
देहधारींक तो बांदिता
कर्मपाशान घट्टि बिगदिता

८ तमोगुणु अज्ञानाचो
देहींक सर्वांक मोहांत घालचो
नीद, आलस्य आनी प्रमादान
घालता अर्जुना, तो बांदून

९ सत्वगुणु देहींक सुख शांति दित्ता
रजोगुणु कर्मपाशान बांदिता
तमोगुणु ज्ञानाक घालनु आवरण
जाता पार्था प्रमादाक कारण

१० रज, तम निपल्यारि सत्व प्रबल
रज प्रबल आसल्यारि दोनीय अबल
सत्व रज दोनीय जावनु निर्बल
फालगुणा जावनास्स तम अतिबल

११ सर्वेन्द्रियां द्वारा देहांतु जेन्ना
ज्ञानप्रकाशु झळकता तेन्ना
कुंतीपुत्रा, समझ सत्व
पावलां तुगेल्यांतुं पूर्णमहत्व

१२ लोभ, प्रवृत्ति, कर्म आरंभ
इच्छा प्रबल इन्द्रिय भंग
रजोगुणाधिक्याचि पूर्व सूचना
ही म्हणु समझूका तूंवे अर्जुना

१३ ख्यंयकि कर्मंप्रवृत्तीक लोपु
अप्रकाशु, भरता काळोकु
अज्ञान, आलस्य, प्रमाद, मोहु
पार्था हो तमोवृद्धीचो कुरुहु

१४ सत्वगुण वृद्धींतु कोण
देह सोणु पावता मरण
उत्तम ज्ञानींल्या निर्मल लोकाक
पावता तो प्राणि सायूज्याक

१५ कोणकि रजोगुण वृद्धींतु
देह सोडता ह्या इहांतु
तो जन्मता कर्म संगील्यांतु
तमोवृद्धींत गेल्यारि मूढ योनींतु

१६ सत्कर्मांचें फल निर्मल सात्विक
रजोगुणाचें अतिघोर दुःख
मेळचें फल तमोगुणान
सांगत्ताति रे तें अज्ञान

१७ सत्वगुणान प्राप्त सुज्ञान
लोभु प्राप्त रजोगुणान
मोहु, प्रमादु आनी अज्ञान
प्राप्त जाताति तमो गुणान

१८ सत्वगुणाचे पावतातित उंचारि
रजोगुणाचे मध्यस्थितीरि
नीचगुणवृत्तोचे तामस गुणि
अधोगतीक पावतातित ते प्राणि

१९ गुण शिवाय ना कर्तु अन्य
म्हळ्ळे कोणकि करता मान्य
गुणांक मिर्वलेलें कोणकि जाणता
तोचि मेगेलो भावु पावता

२० देहोत्पत्तीक कारण त्रिगुण
देहि कोणकि येता दांटवून
जनन, मरण, वार्धक्य दुःख
मुक्त जाल्यारि अमरत्व सुख

२१ अर्जुनु म्हणालोः-
त्रिगुण हे दांट्वललो तो कोण
कृष्णा, सांग माका तागेलें लक्षण
आचारु तागेलो तो कसलो
तीनि गुण हे तो कशि दांट्वलो

२२ श्री भगवान् म्हणालोः-
मोहु, प्रवृत्ति आनी प्रकाशु
तिनीय गुण आसूनु करना तो द्वेषु
नातल्यारीय त्रिगुण अंतरंगांतु
इच्छा तो करना तांका मनांतु

२३ उदासीना सारखें तो आसता स्थिर
गुणां निमित्त जायना अस्थिर
तांगतांगेले काम गुण करतातित
अशें समझूनु बदलना स्वस्थिति

२४ दुःख सुख तो समान लेकता
मातो भांगार समदृष्टीन चोयता
प्रिय, अप्रिय सारखें समझता
धीरु तो स्तुति निन्दा सम अशें मानता

२५ लेकता सम म्हणु मनापमान
शत्रु-मित्रां लागि एकहीच वर्तन
सकल आरंभ कोणकि त्यजिता
गुणातीतु तो त्रिगुण दांट्वता

२६ एकनिष्ठ भक्ति भावान
कोणकि मेगेलि करता सेवन
चोय हे त्रिगुण तो दांट्वता
ब्रह्म स्वरूप पावचाक तो योग्यु जात्ता

२७ अमर अव्यय ब्रह्म हांव
शाश्वत मोक्ष स्थिति चोय हांव
परम उच्च सुख तें हांव
परम श्रेष्ठु धर्मु हांव



# पन्द्रावो अध्यायु

( पुरुषोत्तम — योगु

१ श्री भगवान् म्हणालो:-
वयरि पाळं घेल्ले सकल
श्रेष्ठ वेद चोय ते दळ
ह्या अश्वत्थाक अव्यय म्हणताति
वेद विद मात्र हें जाणताति

२ घेल्ले त्रिगुण स्पर्शान वाडूनु
विषयरूपी अंकुर येवनु
कर्मबंध पाळं नरलोकांत देवनु
वयरि सकल गेल्यांति भरनु

३ सत्य स्वरूप हाजे तें अगोचर
ना ताका अंत्य, आदि, आधार
पाळां गेल्यांति भारी पंदाक
अनासक्ति अस्त्रान कातोरका रूकाक

४ कोणाल्यांतून हाजि पुराणी प्रवृत्ति
आय्क अर्जुना, जाल्लया उप्पत्ति
शरण त्या आदिपुरूषाक अशें लेकूनु
सोदल्यारि ब्रह्म सिद्ध येना परतूनु

५ कोणकि मान, मोह विरहित
अध्यात्म ध्यानांतुं नित्य निरत
सुख दु:ख मुक्त, अनासक्त
पावताति ते ज्ञानि ब्रह्म अव्यक्त

६ ना थंय उजवाडु आय्क सूर्यालो
ना चोय चन्द्रालो न्हंयवे अग्नीलो
पावल्यारि तें स्थान येनात परतून
तेंचि चोयरे तेगेलें परंधाम

७ अंशु सनातनु मेगेलोचि
जीवलोकांत जीवु तोचि
प्रकृतींत तो स्थिर आसून
आकर्षिता पंचेन्द्रियं आनी मन

८ परने देह सोणु वताना
नवें शरीर तें घेताना
फुल्ला परमळु कशि वारें व्हरता
तशि ईश्वरु इन्द्रियांक व्हरता

९ कान, दोळे आनी स्पर्शन
जीब, नांक आनी मन
हांचें आश्रय जीवु करता
करनु विषयांचो उपभोगु भोगता

१० देहांतु आसल्यारि न्हंयवे नातल्यारि
गुणांचे आश्रयारि विषयां भोगल्यारि
कळना तें खंचेय अज्ञानियाक
दिसता शुभ्र ज्ञान चक्षूंक

११ यत्नशील योगि चोयतात
तांच्यांतु आशीले आत्माक जाणतात
विचारहीन आनी संस्कारहीन
नेण ते ह्या आत्माक केल्यारिय यत्न

१२ सर्वं जगाक प्रकाशु दिवचो
दिव्य तेजु सूर्या कडेचो
तेजु चन्द्रालो आनी अग्नीलो
समझ रे तूं सर्व मेगेलो

१३ भूंयचेरि येवनु हांव मेगेले बलान
करता सर्व भूतांक धारण
आनी रसरूप चन्द्रु जावनु
सर्व सस्यांचें करतां पोषण

१४ प्राण्यांले देहांतु आश्रय करनु
प्राण, अपान वायूंक मेळोनु
करनु वैश्वानाग्नि रूप धारण
चतुर्विध अन्न हांव करतां पचन

१५ सर्वांले हृदयांतु आस्स हांव
स्मृति, ज्ञान आनी तांचे नाशूय हांव
वेदांनि समझूच्याक योग्यु हांव
वेदविदु वेद निर्मातूय हांव

१६ ह्या लोकांतु पुरुष तें दोग
क्षर, अक्षर अशें दोनि बग
सर्व भूतां चोय तीं क्षर
कूटस्थ जीवु आस्क अक्षर

१७ ह्या दोन्नींतून भिन्न पुरुषु उत्तम
म्हणतातित, चोय ताका परमात्म
अव्ययु, लोकत्रयांतु तो व्याप्तु
त्रिभुवन पोषणेक कारणकर्तु

१८ क्षर तें दांट्वललों हांव
अक्षरा पेक्षां उत्तमु हांव
ह्या कारणान वेद आनी लोक
म्हणताति माका पुरुषोत्तमु आय्क

१९ मोहरहित कोणकि पार्था,
माका पुरुषोत्तमु समझता
तो सर्वज्ञु पूर्णभावान
करता आय्क मेगेलि भजन

२० गुह्य तम जावनाशीलें
शास्त्र हांवे तुका सांगलें
कोणकि बुधवंतु हें समझता
कृतकृत्यु जीवनांत तो जात्ता पार्था



# सोळावो अध्यायु

( दैवासुर संपद्विभाग योगु )

१ श्री भगवान् म्हणालोः-

अभय, अन्तःकरणाचि शुद्धि
ज्ञान, योग दोनींचीय सिद्धि
तप, सरळता आनी दान
यज्ञ, स्वाध्याय आनी दमन

२ सत्य, अहिंसा, त्याग, अक्रोध
शांति, भूतदया, अपैशुन, मर्याद
अनासक्ति आनी मृदुत्व
चंचल जायनातिले आसूचें स्थिरत्व

३ तेजु, क्षमा, धृति, शुचित्व
द्रोह दूर निरभिमानत्व
कोणकि दैवी संपत्तान उत्पन्न
दिसताति अर्जुना, तांगेल्यांतु हे गुण

४ दंभ, दर्प, अभिमान
क्रोध, निष्ठुरता, अज्ञान
कोणकि आसुरी संपत्तान उत्पन्न
तांच्यांतु दिसताति पार्था हे दुर्गुण

५ दैवी संपत्तु मोक्ष दायकु
आसुरी संपत्तु बंधकारकु
पांडवा तूं जाल्ला दैवी संपत्तान
सोडि सर्व शोकु निस्संशयान

६ ह्या लोकांतु सृष्ट्यो दोनि
'दैवी' 'असुरी' ह्या प्रकारानि
केल्लि वर्णना दैवी सृष्टीचि
सांगतां आय्क आनी ते असुरीचि

७ असुरी जन चोय ते समझनाति
स्थिति प्रवृत्ति आनी निवृत्ति
ना तांगेल्यांतु शौच, आचार
सत्याक आस्सति ते अतिदूर

८ 'जग असत्य निराधार
ना चोय हांगा परमेश्वर
संबंधु नातीलें जाल्या उत्पत्ति
हें कामहेतुक' अशें ते म्हणताति

९ हें दृष्टिकोन स्वीकार करनु
भयानक कर्म तीं आचरसूनु
अहित अटोचे, अल्प बुद्धि, नष्टात्म
लोक नाशाकच्च घेताति जन्म

१० नित्य अतृप्ति कामनेन युक्त
मान, मद भरित आनी दंभवत
मोहवश जावनु दुराग्रहान
जात्ताति दुष्टकर्मांतु तल्लीन

११ प्रलय पर्यंत सरनातील्यो आसल्यो
अपरिमित चिंतो धूवनासतल्यो
तेन्ना मनांतु दृढ करताति अर्थ
कामोपभोगूच परम पुरुषार्थ

१२ अमित आशेंचा जालांतु शिरकूनु
कामक्रोधांतु निरत आसूनु
काम भोगांच्या कांक्षेन
करताति धन सचयु अन्यायान

१३ आजि आपण्याक हें चोय मेळ्ळें
फायि तें मनोरथ मेळतलें
इतूलें धन संचय मेगेल्यागी आजि आस्स
आनीकेय अधिक फाय जावचें आस्स

१४ ह्या शत्रूक मारलो हांवे जिवशी
अन्यशत्रूंकय मारता हांव अशि
हांव भोगी, बलवंतु
सुखि, सिद्धु, भगवंतु

१५ हांव श्रीमंतु आनी कुलीनु
आस्स कोण तो माका समानु
करतां यज्ञ, मोदु, दान
असुर अशें भ्रमेतात अज्ञानान

१६ चित्तविभ्रमान जावनु पतन
मोह जालांनि आवृत आसून
कामोपभोगांतु कोणकि निरत
अशुभ नरकांत असुर तो उरत

१७ आत्मस्तुति करचे आनी जंबगार
धन, मान, मदांतु बुडीले असुर
विधिहीन रूपान आनी डंभान
नांवा खातीरचि करताति यज्ञ

१८ काम, क्रोध, अहंकार
बल, दर्प, आश्रित, असुर
तांच्यांतूय इतरांतूय आसूचे माका
असूयेन करतातित द्वेष सांगता हांव तुका

१९ नीच, द्वेषि, ह्या क्रूरांक
क्रूर, अशुभ, नराधमांक
सतत पेटयतां तांकां हांव भवांतुं
जन्मु दीवनु असुरी योनींतुं

२० हर एक जन्मांतुं असुरी योनि
घेवनु जातातित हे मन्द, अज्ञानि
अविवेकान माका समझनातीलें
अर्जुना अधम गतीक वत्तले

२१ लोभ, काम आनी क्रोध
नरकाक द्वारांही त्रिविध
आत्मशक्ति ती नाश करतातित
देकूनु तिन्नीय त्याज्य करकातित

२२ ह्या तीनि द्वारांतून कोणकि मुक्तु
आत्मश्रेयाचें आचरणेक शक्तु
कुंतीपुत्रा, ह्या आचरणेन
परमगति जात्ता ताका स्वाधीन

२३ शास्त्रविधि सोणु स्वेच्छानुसार
कोणकि चलता तो सिद्धीक बाहिर
सुखय ताका तें मेळशि ना
श्रेष्ठ गतीकय तो पावशि ना

२४ कार्य अकार्याचे निर्णयाक
शास्त्र तुका प्रमाण आयक
समझूनु शास्त्र तूंवे लोकांतु कर्म
करका अर्जुना तें श्रेष्ठ परम



# सत्रावो अध्यायु

( श्रद्धात्रय विभाग योगु )

१ अर्जुनु म्हणालोः-

शास्त्र विधि सोणु केवल श्रद्धेन
केल्यारि कृष्णा ती पूजन
निष्ठा कसलि करतल्यांलि
सत्व, रज, तम ह्या तिन्निंतूलि

२ श्री भगवान् म्हणालोः-

श्रद्धा मनुष्याल्यांतु त्रिविध आय्क
राजस, तामस आनी सात्वीक
सांगतां हांव ताजि वर्णन
आयकूका तूंवे दीवनु कान

३ श्रद्धा तांगतांगेले सत्वाक अनुसार
सर्व मनुष्याल्यांतु ह्याचि प्रकार
पुरुषु हो श्रद्धामयु पार्था,
र्काश आस्सकि श्रद्धा तशि तो उरता

४ करतातित पूजन देवांक सात्विक
यक्षांक, राक्षसांक ते राजसिक
आनी चोय ते तामसिक
पूजा करतातित भूतप्रेतांक

५ दंभ, अहंकार भरित
काम भोगांतु कडु आसक्त
शास्त्रांतु सांगीले विधिक रहित
घन, घोर तपश्यांतु निरत

६ शरीरांतासूच्या पंचभूतांक
शरीरस्थाक माका परमात्माक
कष्ट दितांति ते महा मूर्ख
असुरी बुद्धीचे हे तूं आय्क

७ मनुष्यालो आहारूय भरिंत त्रिगुणान
तशेंच चोय यज्ञ, तप आनी दान
हांतूंय प्रिय तें आस्स त्रिविध
समझूका तूंवे तांचे भेद

८ सत्व, आयुष्य, बल, आरोग्य
सुख, प्रीति, रसवर्धनाक योग्य
चित्त प्रसन्न, स्निग्ध, स्थिर
सात्विकांक हे प्रीतीचे आहार

९ तीक्ष्ण, रूक्ष, दाहकारक
दुःख, शोक, रोगवर्धक
आमशें मिटशें हून, तीक
आहार हे प्रिय राजसिकांक

१० आमशेनु गेल्लेले रसरहित
नीवनु गेल्लेले दुर्गंध भरित
पोरने, उष्टे, अपवित्र
आहार तामसांक प्रिय हे सर्वत्र

११ फल इच्छा करनातीलें कर्तव्य म्हणु लेकूनु
मन अत्यंत शांत दवरनु
शास्त्रविधि प्रकार करच्या यज्ञाक
म्हणताति आय्क ताका सात्विक

१२ फलाचि आशा लक्ष्यांत दवरनु
दंभ चोय तें मनांत आसूनु
करचो यज्ञु खंचोकि आस्स
फलगुणा, आय्क तो राजस

१३ शास्त्र विधिहीन मंत्र विहीन
करचो दीनातीलें तें अन्नदान
दक्षिणा नातीलें श्रद्धा विरहित
यज्ञु तामसिक म्हणोनु घेत

१४ देव, द्विज, गुरू, प्राज्ञ पूजन
शौच, आर्जव, अहिंसा पालन
आनी ब्रह्मचर्य व्रत आचरण
तें आय्क शारीर तप साधन

१५ सत्य, प्रिय, हितकर वचन
मन दुकनातीलें भाषण
धर्मग्रंथांचें अध्ययन
हें आय्क वाङ्मय तप साधन

१६ आत्मसंयम, प्रसन्न मन
सौम्यत्व धारण आनी मौन
सतत दवरनु शुद्ध भावन
हेंचि मानसिक तप साधन

१७ फल इच्छा त्याजूनु परम श्रद्धेन
त्रिविधाचें तप केल्यारि योगान
साधकांनि करच्या ह्या तपस्याक
म्हणतातित आय्क तप सात्विक

१८ मान, सत्कार आनी पूजार्थ
तप केल्यारि दंभान युक्त
तें अनिश्चित अस्थिर आय्क
म्हणतातित ताका राजसिक

१९ मूर्खपणान दुराग्रहान
दीवनु आत्मांक आनी इतरांक पीडन
करचें खंचें कि तप तें आस्स
ताका चोय तें नांव तामस

२० दान दिवचें उचित समझूनु
देशु, कालु, पात्र चोवनु
उपकारु परत लेकनातीलें दान
तेंचि आय्क सात्विक दान

२१ परत उपकाराच्या आशेन
फल भोगाच्या इच्छेन
आनी बहुतेक दु:खि मनान
दिवचें तें राजसिक दान

२२ करनु निन्दा आनी अपमान
देश, काल, पात्र विचारहीन
करचें दान खंचेंकि आस्स
तेंचि म्हणतातित तामस

२३ 'ॐ-तत्-सत्' निर्देश नामान
करताति आय्क ब्रह्मालि वर्णन
वेदयज्ञ आनी ब्राह्मण
ब्रह्मा निमित्त जाल्याति निर्माण

२४ देकूनु ब्रह्मवादी जनांलि
यज्ञ, दान, तप कर्मं तांगेलि
नित्य ॐकार उच्चारणेन
चलताति शास्त्रानुसार विधीन

२५ कोणकि मोक्षु इच्छा करताति
फल भोगाचि आशा सोडताति
करनु 'तत्' शब्दु उच्चारण
करताति यज्ञ तप, कर्माचरण

२६ ज्ञानि 'साधुभाव' 'सद्भाव' अर्थान
करताति 'सत्' शब्दाचि उच्चारण
प्रशस्त कर्मांतूंय ह्याचि अर्थान
पार्था करताति ते 'सत्' उच्चारुण

२७ यज्ञ, तप, दान केल्यारि दृढतेन
ताकाय आदयताति 'सत्' शब्दान
तत्संबंध करच्या कर्मांक
तांकांय 'सत्' म्हणताति आय्क

२८ श्रद्धा नातीलें करचें काम
दान, तपस्य न्हंयवें होम
'असत्' म्हणताति ताका अर्जुना
इह परांत तें सत्फल दीना

# आठरावो अध्यायु

( मोक्ष सन्यास योगु )

१ अर्जुनु म्हणालो:-

योगु सन्यासाचें रहस्य
योगु त्यागाचेंय रहस्य
ऋषीकेशा सांग प्रत्येक प्रत्येक
इच्छा करता हांव तशेंच आयकूंक

२ श्री भगवान् म्हणालो:-

काम्य कर्मांचो परित्यागु
ज्ञानि सांगता तो सन्यासयोगु
कर्मांचे फलाचो परित्यागु
जाणते म्हणताति तो त्याग योगु

३ सर्व कर्म दोषपूरित
देकूनु त्याग करका अशें ज्ञानियांले मत
कर्म, यज्ञ, दान, तपरूपभरित
त्याग करनाकाति अशें थोडे म्हणतात

४ कुंतीपुत्रा, ह्या त्यागाचे विषय
सांगता तुका हांव मेगेलें निर्णय
तीनि विधांचि आस्स त्यागाचि वर्णन
आय्क अर्जुना, तूं दीवनु कान

५ यज्ञ, दान, तपरूपाचि कर्म
त्याज्य न्हंय तीं करूकाति कर्म
यज्ञ, दान, तपरूपाचि कर्म तीं
बुधवंतांक अर्जुना, पावन करताति

६ सोणु फलाचि आशा आनी आसक्ति
आय्क हीं सर्व कर्म करताति
हेंचि मेगेलें निश्चित मत
अर्जुना, चोय हेंचि उत्तम मत

७ नियत कर्म सोडचें सम न्हंय
आय्क अर्जुना, हो त्यागु बरो न्हंय
कोणकि मोहान करता हो त्यागु
म्हणताति ताका आय्क तामस त्यागु

८ देहाक कष्ट म्हळ्या भयान
दु:खदायक म्हणु समझून
करचो त्यागु राजस त्यागु
तो काहीं फल नातीलो त्यागु

९ हें आपण्यालें कर्तव्य अशें समझूनु
आसक्ति, फल इच्छा सर्वंय त्यजूनु
नियत कर्म करचो खंचो आस्स त्यागु
अर्जुना ताका म्हणताति सात्विक त्यागु

१० त्यागि, सत्वयुक्तु आनी बुधवंतु
द्वेषु करना अहित कर्मांतुं
आय्क पार्था, तो संशयरहितु
दवरना आसक्ति हितकर्मांतुं

११ साध्य न्हंय देहधारि मनुष्याक
कर्म संपूर्ण सोडचें आय्क
कोणकि कर्मफल त्याग करता
ताका त्यागि म्हणताति पार्था

१२ कर्मफलं चोय तीनि विधांचि
इष्ट, अनिष्ट, मित्र तींचि
कोणकि अत्यागि तांकां लागतातिं
सन्यासांक केदनाई ती लगनांति

१३ सर्व कर्म सिद्धि करूंक
कर्मदोष अंत्य करच्याक
महाबाहु सांख्य शास्त्तांतु
सांगल्यांति पांच कारणं तांतु

१४ कर्तु, आधार क्षेत्र शरीर
साधनो त्यो नाना प्रकार
भिन्न भिन्न क्रियो आनी दैव
हीं पांच कारण समझ हें तत्व

१५ शरीरान वाक्यान न्हंयवे मनान
करचीं कर्मं मनुष्यान
आस्सोति न्याय न्हंय तरि अन्याय
पंचकारण्यन जातातिं आय्क हें विषय

१६ आशी आसूनूय अविचारान
कोणकि लेकता कर्तु आपण
दुर्मति चोय तो कांही समझना
संस्कारह्रीनु सत्य तो चोयना

१७ कोणकि अहंकारू नातीलो
बुद्धि मलिन जायनतीलो
लोकांक मारल्यारीय मारनि म्हणयता
आनी ताका बंधनय चुकता

१८ ज्ञान, ज्ञेय, परिज्ञात, आय्क
हीं तीनि तत्वं कर्मांक प्रेरक
इन्द्रियं, कर्तृ आनी क्रिया
हीं तीनि कर्मांचि अंगं विजया

१९ कर्तृ, कर्म आनी ज्ञान
तीनि प्रकाराचि गुणाचे भेदान
यथा प्रकार हांचि वर्णन
सांगतां हांव दी तूं कान

२० एकूचि अविनाशि भावु सर्वांतुं
वेगळे वेगळे आसले तरि सर्वभूतांतुं
विभक्तांतु अविभक्त कोणकि लेकता
तागेलें तें ज्ञान सात्विक म्हणयता

२१ भिन्न भिन्न अनुभव ज्ञानान
सर्वप्राण्यांत भाव भिन्न भेदान
मनुष्यान चोवचें आस्स खंचेकि ज्ञान
तेंचि आय्क तूं राजस ज्ञान

२२ आस्स सर्वस्व एकचि कार्यांतुं
अशें समझूनु मन दवरचें तांतुं
कारण नातीलें तें रहस्यहीन
अल्प ज्ञानचि तामस ज्ञान

२३ फलाचि आशा संपूर्ण सोणु
प्रीति, अप्रीति, आसक्ति त्यजूनु
मनुष्यान करचि नियत कर्मं
तींचि आय्क तूं सात्विक कर्मं

२४ मनांतु फलाचि आशा धरनु
अहंकारान भारी आयासु पावनु
करचि खंचि आस्सति चोय तीं कर्म
तींचि म्हणोन घेतातित राजस कर्म

२५ इतें परिणामु, नष्ट जाय्त इतें
कितलि हिंसा, स्वसामर्थ्य इतें
लेकनातीलें हें मोहान करचिं
कर्म खंचि आस्सति तामस तींचि

२६ कोणकि अहंकार, आसक्ति रहितु
धैर्यान उत्साहान सर्वत्र भरितु
सिद्धि असिद्धींतु संतोषु शोकु
पावना कोणकि तो कर्तु सात्विकु

२७ कोणकि कर्मांचें फल इच्छेता
रागपूर्ण आसूनु हिंसा ती करता
सुख दुःख करचो लोभि, अशुद्धु
राजस कर्त नांवांक आय्क तो बद्धु

२८ कोणकि स्तब्धु आनी अव्यवस्थितु
आळसो, छलवादि, संस्कार रहितु
पेल्यांले वाय्ट आटोचो, विषादयुक्तु
दीर्घु सूत्रि तोचि तामसकर्तु

२९ बुद्धि, धृतींक गुणांक अनुसार
आस्सति भेद ते तीनि प्रकार
वेगळे वेगळे जावनु आनी विवरान
सांगतां अर्जुना, आय्क वर्णन

३० प्रवृत्ति-निवृत्ति, कार्य-अकार्य
बंध-मोक्ष, भय-उभय
हें सर्व आसचे तशि समझूचि बुद्धि
आय्क पार्था, ती सात्विक बुद्धि

३१ कार्य-अकार्य, धर्म- अधर्म
हांचें यथार्थ कळनातल्यारि मर्म
आय्क अर्जुना, तसल्यालि बुद्धि
तीचि म्हणोनु घेता राजस बुद्धि

३२ अधर्माकि धर्मु अशें समझूचि
सर्व विषय विपरीत लेकचि
अज्ञान आवरणाचि खंचिकि ती बुद्धि
आय्क अर्जुना, तामस बुद्धि

३३ मन, प्राण आनी इन्द्रियां व्यापार
योगान तें सर्व राबोनु स्थिर
साम्य वृत्तीन ते चलयल्यारि आय्क
म्हणतातिं पार्था, सात्विक त्या धृतीक

३४ फल भोगाचि इच्छा ती करनु
आसक्त बुद्धि मनांतुं धरनु
जाल्गारि धर्म कामार्थांतुं निरत
ताका राजस धृति म्हणताति

३५ नीद, शोकु, भय, दुम्मानु
आनी मद सोणातिलें धरनु
आसच्या दुर्बुद्धि मनुष्यालि धृति
आय्क पार्था, ती तामस धृति

३६ खंच्यांतु अभ्यासान मेळता सुख
आनी दूर जाता सर्व दुःख
आस्स तें सुख तीनि प्रकार
सांगतां अर्जुनना, करनु विस्तार

३७ दिसल्यारीयि सुरूवेक विषाक समान
खंचेकि अमृत जाता परिणामान
आत्मबुद्धि प्रसादाचें तें सुख
आय्क अर्जुना, तेंचि सात्विक

३८ विषय इन्द्रियांच्या संयोगान
पयलें अमृत समान दिसून
अंत्यारि विष जावचें खचेकि तें सुख
तेंचि राजस सुख तूं आय्क

३९ फूडेय आखेरीय मोहांतु आत्माक
घालनु नीद, आलस्य, प्रमादाक
स्थान दीवनु उब्जूचें खंचे आस्सकि सुख
पार्था, तें सुख चोय तामसिक

४० जावो पृथ्वीरि न्हंयतें स्वर्गीरि
न्हंय तरि देवां मध्येंय जाल्यारि
प्रकुतींतु उब्जलेले ह्या त्रिगुणानि
मुक्त ना पार्था, खंचोय प्राणि

४१ ब्राह्मणांलि क्षत्रियांलि
वैश्यजनांलि आनी शूद्रांलि
कर्म, स्वभाव गुणानुसार
आस्सति पार्था, नाना प्रकार

४२ शम, दम, तप, ज्ञान
सहनशक्ति, शौच, विज्ञान
आस्तिकय, आर्जव हीं सर्व कर्म
स्वभावजन्य ब्राह्मण कर्म

४३ शौर्य तेजु, दक्षता, धैर्य
युद्धांतु धावनातीलें राबचें स्थैर्य
दान, शासन हीं क्षत्रियांलि
स्वभावजन्य कर्म आय्क तांगेलि

४४ कृषि, व्यवसायु, रक्षण गेरवांलि
आनी वाणिज्य कर्म वैश्यांलि
सेवा करचें कर्म शूद्रांलें
स्वभावजन्य तें कर्म तांगेलें

४५ आपण्गालापण्यालें कर्मांतु कोणकि निरत
तो मनुष्यु योग्य सिद्धीक पावत
काशीं पावता तो उत्तम सिद्धीक
म्हळें सांगतां हांव अर्जुना, आय्क

४६ कोणान जाल्या सर्व प्राण्यांचि प्रवृत्ति
कोणालिकि सर्वांतु आस्स चोय व्याप्ति
ताका स्वकर्मान केल्यारि अर्चन
प्राप्त जात्ता सिद्धि प्रधान

४७ गुणहीनु दिसल्यारीय श्रेष्ठु स्वधर्मु
सुखकर परधर्मा पेक्ष उत्तमु
कोणकि करता कर्म स्वभाव रूप
त्या मनुष्याक चोय लागना तें पाप

४८ दिसल्यारीय दोष सहज कर्मांतुं
सोणातिलें उरका निरत तांतुं
कशिकि धुवोरु उज्या सांगात
तशि पैलें कर्म दोषांनि व्याप्त

४९ खंच्यांतूय आसक्ति नातीलो
विषय सोळ्ळोलो आत्मु जिक्वललो
निःस्पृहु तो करत सन्यासान
परम नैष्कर्म्य सिद्धि साधन

५० सिद्धि प्राप्त जात्ताचि कशि तें ब्रह्म
मनुष्याक प्राप्त जाता म्हळ्ळेलें मर्म
खंय ज्ञानाचि निष्ठा जात्ता
हें तुका हांव संक्षेप करनु सांगतां

५१ विशुद्ध बुद्धीन युक्तु आसूनु
धैर्यान आत्माचें नियमंन करनु
शब्दादि विषय ते सर्व त्यजूनु
राग द्वेष दोनीय जिकवूनु

५२ मन, वचन, शरीर जिकवूनु
अल्पाहारान एकांतारि आसूनु
ध्यान योगांतुं तत्पर उरनु
नित्य वैराग्याचो आश्रयु करनु

५३ काम, क्रोध, अहंकारु
बल, परिग्रह आनी ममकारु
हें सर्व सोळ्ळोलो ममता नातीलो
शांतियुक्तु तो ब्रह्म सिद्धि पावतलो

५४ ब्रह्म भावाचो प्रसन्नात्मु आय्क
करना तो कसल्याकय इच्छा आनी दुःख
सर्व प्राण्यांक समभावान चोयता
मेगेलें परम भक्तीचें सुख तो पावता

५५ हांव कोण आनी कशि आस्स म्हणु
भक्तीन चोय तो घेता समझूनु
अशि यथार्थ माका समझूनु
तो आय्क पावता मेगेलागि येवनु

५६ कोणकि आसता मेगेले आश्रयारि
ताणे नित्य सर्व कर्मं केल्यारि
मेगेले दयेन आय्क शाश्वत
आनी अव्यय पद तो पावत

५७ सर्व कर्मं माका मनान
करनु अर्पण जा मेज्यांत लीन
बुद्धियोगाचो आश्रयु करि
नित्य मेज्येरि मन दवरि

५८ दवरल्यारि मन मेज्येरि मेगेले दयेन
जाशि पार सर्व कष्टांतून
अहंकारान मेगेलें उत्तर आय्कनातल्यारि
वायट जावनु वशि नाशाचे वाटेरि

५९ 'करना युद्ध' म्हणु अहंकारान
लेकीलें तूवे आसल्यारि तें चोय मिथ्यान
तुगेलि प्रकृतीचि तुका थंय तांडता
तींचि तुजे करान युद्ध करयता

६० बद्ध तूं केदनाई स्वाभाविक कर्मांन
कुंतीपुत्रा, दी ह्या कडे ध्यान
मोहान तूं खंचेकि करना म्हणता
परतंत्र जावनु तूंचि खंडित करता

६१ सर्व प्राण्याच्या हृदयांतु पार्था
देवु परमात्मु आवासु करता
यंत्रारूढ जालेवरि तांनि
घुंवडायता चोय तो सर्वांक मायेनि

६२ सर्व भावान जा ताका शरण
हेंचि परम श्रेय फलगुणा
परम शांति तागेलि दयेन
मेळता तुका शाश्वत स्थान

६३ गुप्तां भितरि गुप्त आशीलें
श्रेष्ठ ज्ञान हांवे तुका सांगलें
तें पूर्ण विचार करनु करि तूं
खंचेकि दिसता तुगेले मनांतु

६४ आनीकेय गुप्त जावनासूचें ज्ञान
सांगतां हांव दी तूं कान
तूं आस्स माका भारी प्रीतीचो
देकूनु तुका हों उपदेशु सांगचो

६५ जा मेगेलो भक्तु, मन मेज्येरि धरि
यज्ञु करि मेगेलो नमन तूं करि
ताजेन मेज्या तेशी हें सत्य वचन
तूं मेगेलो प्रीतीचो दी ह्याकडे ध्यान

६६ सर्व धर्मय सोणु माका
एकल्याकच शरण येवका
सर्व पापांतून सोडवायतां तुका
अर्जुना, मनांतुं शोकु पावनाका

६७ तपहीनांक भक्तिहीनांक
आयकूंक इच्छा नातील्यांक
माका द्वेषु करतल्यांक
ज्ञान हें तूंवे नज सांगूक

६८ परमश्रेष्ठ हें गुह्य ज्ञान
मेगेलें भक्तांक सांगील्यान
मेज्येरि दृढ भक्ति दवग्नु
निस्संशय पावता तो मेज्यांत येवनु

६९ ताज्या पेक्षां माका अधिक प्रीतीचो
मनुष्यांल्यांतु ना दुसरो मेळचो
भूलोकांतुं ना चोय आनी मुकारि जावचो
ताज्या पेक्षां माका चड मोगाचो

७० हो धर्माचो संवादु आमगेलो
भक्तीन अध्ययन करतलो
ज्ञान यज्ञान मेगेलि पूजन
करता अशें हांव समझन

७१ श्रद्धा आसूनु द्वेषरहित
कोणकि मनुष्यु हें आय्कत
जावनु तोवय पापांतून मुक्त
पुण्यवंतांक मेळच्या लोकांक पावत

७२ आयकलोवे पार्था, एकाग्र चित्तान
तूं हांवे सांगीलें हें तत्वज्ञान
नष्ट जाल्लोवे मोहु तुगेलो
धनंजया, अज्ञानान उब्जललो

७३ अर्जुनु म्हणालो:-

दूर गेल्लो मोहु तुगेले दयेन
देवा जागृत जाल्लें मेगेलें ज्ञान
संशयु नातील्या शुद्ध मनान
तुगेलें उत्तर हांव चलयन

७४ संजयु म्हणालो:-

वासुदेवु आनी महात्मु अर्जुनालें
संभाषण हें मेजे कानांतु आयलें
उद्भुत हो संवादु आयकूनु
रोम आंगाचि राबलि उटावनु

७५ श्रेष्ठ आनी गुह्य हें ज्ञान
आयकलों हांव वेदव्यासाले कृपेन
साक्षात् योगेश्वरु श्री कृष्णान
तोंडान सांगीलें हें योग ज्ञान

७६ आटोवन आटोवन पुण्यभरितु
आनी राया चोय उद्भुतु
कृष्णार्जुनांलो तो संवादु
वयरि वयरि उकवून येत्ता आनन्दु

७७ आटोवन अटोवन तें भव्यरूप
श्रीकृष्णालें विश्वरूप
मनांतु माका विस्मय जाता
संतोषु वयरि वयरि भोरनु येता

७८ खयकि योगेश्वरू कृष्णु
आनी धधुर्धारी अर्जुनु
थंय चोय लक्ष्मी वैभवु, विजय
स्थिर नीति राबता हें निस्संशय

ॐ तत् सत्



# बीं वी बाळिगा

१९४१ धरनु १९४६ तांय मंगळूर थाकूनु दिवंगत वी. एस. कुडवांल्या संपादकत्वारि प्रकट जावन आशील्या 'सारस्वत' कोंकणी साप्ताहिक पत्रिकेंतु उपसंपादकु जावनु श्री बी. वी. बाळिगान काम केलेले आसा. १९६७ धरनु आपण्याले संपदाकत्वारि 'पंचकादायि' मासिक पत्रिका चलोवन येता. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिषद, कोंकणी भाषा प्रचार सभा, कोंकणी लवर्स इत्यादि अनेक सस्थ्यांनि हांका गौरवार्पण केलां. १९८१ वर्सी केरळ कोंकणी अकादमीन श्री बाळिगाक फेलोषिप गौरव दिलां. तपस्विनी, जन-मन ह्या कोंकणी सिनिमांतु गीत रचना करनु हांनि अभिनयूय केलां. अकाशवाणीच्या मंगळूर केन्द्र थाकूनु हांगेलि अनेक गीत, काणि, भाषण इत्यादि प्रसार जतात. ग. दि. माडगूळकराले गीत रामायण आनी ए. एन. भटालें नीति कथा कोश हेंवय हांनी कोंकणींत अनुवादु केलां. श्रीमद् भगवद्गीतेचो हो अनुवादु कन्नड लिपीनय प्रकट जाला.

प्रकाशक :




मोल: 8 रूपया